3. दरियांत आसा मासो मोल् करता पिसो।
4. माळप्प पैक ज्योरु जाल्यारि, संग्रमाक पेजवे
5. हून पेजेक तूप नाक्का धाकटि बाय्लेक रूप नाक्का
6. हाता कांयणाक आरति नाक्का
मोड्वोळ्वा चरडक बान्सो नाक्का।
7. गोरु निप्पय्ले म्हणु गोटो निप्पय्नाका।
8. बरिल्या ब्राह्मणांक दह्यांतु फात्तोरु।
9. पिंडाक आंड लायिल्यावारि।
10. उदाकारि बड्डि म्प्रल्यावारि गोव बाय्ल ऐकुचि

ह्या गादिंनि गळ्सिह्ले प्रास, अनुप्रास, यमक, अलंकार, उपमा, रूपक, प्रतिमा, आनि संकेता हेरां भासांच्या गादिंक सोड्न दीनांत।

हुमिण्यांक गोंयांत पान्कोनि म्हणतात। भुंय तशें आकासिं आप्णे पळेयिल्ल्या वस्तुंक आसा तशें सांग्ल्यार सोब ना। पुण त्याच गजालिंक विंच्त्या उत्रांनि वीणुन ऐका समस्या रुपार गुंत्ल्यार मोल येता। हें जाव्नासा हुमिण्यां पाट्लें थळ। हुमिण्यो विचान्तेल्याच्या आनि जवाब दितेल्याच्या मेंद्वाक मोतिक खुशालाय ज्ञान हाड्न दितात। आम्च्या जाण्त्या नेण्त्या मदें झळ्कोंच्यो थोड्यो हुमिण्यो देकिक हांगा दिल्यात:

1. अंत्रळार थोरुं नातल्लो कोय्तो (चींच)
2. आण्सि रुकार नोव्शिं फळां। (नात्नो)
3. कण्किच्या बोल्यांत सोस्याचिं पिलां (उवो)
4. काळ्या कुडांत काळें माजार। (भाण्शिरें)
5. कोव्डो राय माति खाय, तीन तक्ल्यो धा पाय। (नांगोर, कोस्पि, जोत)
6. गेंदा चरोन वेता, कारि पाट्ल्यान वेता। (गुडो लास्ता, पाट्ल्यान गोबोर जाता)
7. डाम डकळ, पंदा पोकळ, वन्साक एक कापड। (पाकें शिंन्चें)
8. तीन पायांचो तिक्लो घोडो ताचेर बस्ला काळो चेडो (रांदोण आनि मोड्कि)
9. बारा पडवोळिं आट आडोळिं, चार चौकोळिं, दोन माण्कोळिं (दुक्राचे, सुण्याचे, गोन्वाचे, बयडेचे बोंब)
10. भांगाराचे बुलिंत रुप्याचि पूड। (मिन्सांगेच्यो बियो)
11. मुरो खोंडिलो माति मेळ्ळि, माति खोंड्लि खडाप खोंड्ले शेड मेळ्ळि, शेड खोंड्लि उदाक मेळ्ळें। (नार्ल)

12. पन्जळिक कुंड्ले, जक्रियाल् धांयणें, हि हुमिण पान्किनातल्ले जात कोंक्णें। (काल्स आनि पातेन)

13. सर सरवालि सन्गार गेलि, आवय मेलि, धुव जल्मालि। (वाल आनि सांग)

14. आकड पाकड तांब्या भाण्, बत्तिस रुकांक एक पान। (जीब)

15. ल्हान आस्ताना कास्टि न्हेस्ता, व्हड जातच काड्न उडय्ता। (कील्र )

असल्यां शेंबरों हुमिण्यां वर्य तक्लि खन्चिताना उल्लास बोग्ता, पुरासण माज्वाता आनि जिकल्लो संतोस लाब्ता। आम्च्या मालगड्यांचि जिणि, संय्ब, वोड्न्यो ह्या हुमिण्यांनि आनि गादिंनि दिसोन येता तें तीळ्न पळेल्यार कळ्ता। असल्योच थोड्यो हुमिण्यो ह्यो सारस्वत् घरांनि मेळ्तात:

1. तीक तीक पान कन्बल्यांचे रान
   तेज्जे नांव सांगाना जाल्यारि तुका उन्ना मान । (आलें)

2. दण्पो, दण्प्या वय्रि कुडवु कुडवा वय्रि सिद्दे
   सिद्द्या वय्रि गुड्डो गुड्ड्या वय्रि करड
   करडा वय्रि गोरव चरता. (मनिस)

3. हड्प , हड्प्या भित्तरि खड्प खड्पा वित्तरि शंखु शंखा भित्तरि तीर्थ. (नार्ल)

4. घरांत म्हाका आप्डिल्या शिवाय तुक्का नीद पडना। (बागिल)

5. आम्गेल्या घ्रच्या देवाक मूस आप्डिनाचि। (उजो)

6. दिव्साक कळो रात्रीक पूल। (मांद्रि)

7. मुखारि बस्ला टोप्पि भट्ट माक्यान आसाचि पांय्शिं लोकु। (केंळभो )

8. तांब्डे तोंडा साय्बा पाट्लेन वड्ड चेय्ड। (केंळबो )

9. घाटारु सानु तीनि कलवंत आय्ले ऐक तळ्या गेले
   ऐक रुकारि गेले ऐका हिंडांतु गेले। (साळक, सांपें, केदग)

10. चुन्नो काडिले घर वच्चाक वाट ना। (तांतिं)

## 3. कोंक्णि भाशेचे अलंकार

आम्च्या दिस्पड्त्या उलव्ण्यांत आमि किल्लेशे पाव्टिं विविद संदर्बांनि थरांचे कोंक्णि अलंकार, सांण्णि, उलव्ण्याचे मत्लब वापर्तांव। इंग्लेज नेणा आस्च्या, हळ्ळेंत्ल्या शिकाप नातल्ल्या मन्शांच्या तोंडाथाव्न ते आय्कोंक मेळ्चे चड। तांचो संग्रह केल्यार एक

दाट पुस्तकच फाय्स कऱ्येत। हांतुं आम्चे मदें चालु आस्चे तसले 'अलंकार' दिल्यात। आम्च्या भासेचि सोभाय, ग्रेस्तकाय तांतुं धर धर म्हण दिसोन येता। दाक्ल्याक:

| **भाशालंकार** | **अर्थ** |
|---|---|
| ताच्या दोळ्यांत रगत ना | - ताका दुस्र्यांचि पाप बिऱ्मोत ना। |
| दोळ्याक दोळो लागोंक ना | - नीदच पडोंक ना। |
| मूस आंबुडचे | - गऱ्जेक पडानात्लें काम कऱ्चें। |
| आप्लो हात आप्ल्या मात्यार | - दुस्र्यांचो आधार ना। |
| मास्ळेक उजो पेटला | - मास्ळि मेळाना |
| मांयडा सऱ्गाक गेला | - निदला |
| तो गोड तुक्ता | - तो झेमेता |
| पितुळ भार्य काडिच | - घुट कळित कऱ्चो । |
| दोळ्यांक खोव्ळां मांडल्यांत | - ताका हंकार चडला। |
| ताच्या हऱ्यांत ऊब ना | - ताका धय्र ना |
| ताचे हात हुन कर | - लोंच दि |
| तोंडाक बीग घालां | - रागान उलय्ना। |
| दोळ्यांक बोट घाल्यारी दिसना | - कठीण काळोक आसल्ल्यान कांयच दिसना। |
| शिर पळेव्न दाग दि | - चूक पळेव्न फावोति शिक्षा दिंव्चि |
| तुज्या मात्यार कोणे हात दवऱ्ला ? | - कोणे तुका वाय्ट बूद शिकय्ल्या ? |
| पाटे नात्लिं रय्लां सोडता | - पोकोळ उलव्णें |
| तेंक्डेन म्होंव काडुंक पळेता | - आप्णे कऱ्येत जाल्लें काम हेरां कऱ्ना करंव्चें |
| दोळ्यांक माति घाल्ता | - फटय्ता |
| भागोन कांटो जाला | - जिवान अस्कत जाला |
| ताका दोन सुत्तु उणे | - तक्लेन अस्कत जाला |
| कुंयडा नीद काडिल | - ल्हान्शि नीद काडिल |
| ताचे तयलेंत शेण आसा | - दाड्ड्या तयलेचो |
| तोंडांत बोट घाल्यारि चाबोंक कळना | - भारि सादो |
| ताणे लाट घालि | - परीक्षेंत फेय्ल जालो |
| तें पुसुन घाल्लो पोळो | - निमाणें भुऱ्गें |

**दोंडे सब्द:** दोंडे सब्द आम्च्या उलव्ण्यांत प्रमुक स्थान घेतात। हे आम्चे कोंकणेंत दरबस्त आसात। दोंडे सब्द विविद थगंचे आस्तात। हांत्लें थोडे प्रकार अशे आसात।

**a) ऐकच अर्त आटाप्चे तसले:** (हांचो दोनांय्चो अर्त ऐकच)

'आस्त-बदिक'

'सुयिणं-साव्जां' 'चिलिपिलि' कर्तात।

तो जिवान 'धाटो-मोटो' आसा।

ताका 'गत-आधार' ना।

ताणे म्हजे 'हाल-हवाल' केले।

तो 'खाव्न-जेव्न' कुल्पां काडता।

'भुर्गिं-बाळां' खेळ्तात।

'दान - धर्म' करिजाय।

ताचें 'ध्यान-मन' पय्शांचेर

हेणे 'नर-मनिस' घुंवाना।

सोमियान खुर्सार 'कळ्वळे-वोळ्वळे' सोस्ले।

**b) पय्ल्या सब्दाक अर्त आसोन दुस्र्याक अर्त नातल्ले तसले:**

'आंग-पांग' 'आंग म्हळ्यार आमि जाणांव।' 'पांग' हाका अर्त ना।

तुका कित्लि 'आस्त-पास्त' आसा?

आमि 'ऐकामेका' आधार दीजाय।

तो 'घट-मूट' आसा।

'म्हारां-थोरांनि' रांव्चो जागो तो।

हांवें तांकां ताचि 'वळोक-पाळोक' कर्न दिलि।

ते आम्चे 'सग्रे-धग्रे'

आम्गेर 'पिडा-शिडा' चुकल्लि ना।

तांगेर 'जाग-माग' ना।

**c) ऐकामेकाक पूरक (Supplementary) जाव्नास्चे तसले:**

सकाळिं थाव्न हांवें 'अन-उदक' आप्डुंक ना।

आय्चे निस्तें 'आंब्शें-तिक्शें' जाव्न बरें आसा।

उज्यांत 'कीड-मूय' लासोन गेलि।

ताच्या काजाराक 'मास-पोळि' आसल्लि ।

'सुवि-सुत' हेव्शिन दि।

काजारा वेळार 'शिंव्ति-मोग्रिं' म्हारग आस्तात।

हांव 'सुर-सोरो' पियेना।

तुका 'तान-भुक' लागानांवे।

आम्चो 'काफि-फळ्हार' जालो।

**छ) ऐकामेका विरोद अर्त दिंव्चे तसले:**

तो 'दीस-रात' वावुर्ता।

'आप्ल्या-पेल्याचो' मोग करिजाय।

'भार्य-भितर' कित्याक धांव्ताय?
'चड-उणे ' कर्न ताकाच दि।
'ल्हान-व्हड' नार्ल थंय्सर आसात।
'दुब्ळो-धाक्टो ' म्हळ्ळो भेद केदिं दाकय्नाये।
'पाद्रि-माद्रि' देवाचि आनि मन्शाचि सेवा कन्तात।
'आज-काल' तांदुळ मेळोंक कश्ट
तुका ताचें 'ताळ-मूळ ' कळित ना।
आमि 'भाव-भय्णि'।
तुर्जि 'पूत - सुन' खंय आसात?
'अल्तडि-पल्तडि' गेल्यारयि रेंदेर माम बोशिला माडारि।

**e) वस्तुंचि विशेशता दाकंव्चे तसलें:**

तो बारीक 'हिराकाडि' जाला।
हें ऐप्पल 'गोड साकर'।
आज्पेज 'आळ्नि बजार'।
आय्चे निस्तें 'खार कोट्टास'।
आज मास्ळि 'म्हारग उजो'।
तें पळेंव्क 'लांब तेंक्डि' न्हंयगि
तें वकात 'कोडु खाव्रो',
ताचें घर 'व्हड जय्त' आसा।

**f) उद्गार आटाप्चे तसले:**

'हाय हाय' संसारा!
'ताट-पाट' कर्न व्हाजय्लें।
'कटा कटा!'

**4. कोंक्णि गाळि:** गाळि म्हणताना 'पाड सब्द' आम्चे मतिक येतित। पुण हांगासर उल्लेक केल्ल्यो 'गाळि' आम्चो राग आमि जेराल थरान भाशेच्या अलंकारा संगिं काड्चि रीत। दायल्याक: घरांनि भुन्गिं आवय्न सांगल्ले आय्कानांत जाल्यार या तिका उपद्र दीव्न 'तिचे बारा ब्रेस्तार तेरा सुक्रार' कन्तित जाल्यार तिका राग येता, आनि ति रागान उलय्ता। बुर्शिं उत्रां नातल्ले, पुण उत्रांचे मार आटाप्चे तसले सब्द आम्च्या भाशेंत धाराळ आसात ते पळेव्यां: आवय भुग्याक आपय्ता। पुण भुन्गें जवाब दीना। तेदाळा ति आनिकयी व्हडल्या ताळ्यान आपय्ता। 'वो' भुन्गें जवाब दिता। ते आवय्न त्या वेळार म्हण्चिं उत्रां: 'कानांक तुज्या गुड्यो चेप्ल्यातवे'?

'कानांक इल्लें चिम्णे-तेल घाल।'
'कानांक शिर्से वोत्लांवे'?

भुग्यांक खेल्ले तित्लें पावना। आवय्क प्रत्यान प्रत्यान धोस्ताना ति उलय्ता:

‘तुज्या पोटाक फातोर घालुंक‘
‘तुजें पोटगि भाण‘?
‘पळेंव्क माणि खांव्क गोणि।‘

भुग्निं सांगल्लें आय्कानांत जाल्यार:

‘तुका पाट खोन्जुता न्हयगि‘?
‘तुजे पाटिक पोव्ल्यो बांद" - (मार खांव्क तयार जा)
‘तुजे पाटिचि कात काडतां।‘
‘म्हजो जीव कित्याक खाताय तुं‘?
‘तुं म्हाका एक अंतु खुरिस जल्मालाय।‘

आवय्क भुग्निं पाटिं उलयित्त जाल्यार:

‘जीब मट्टि कर चोट्ट्या।‘
‘जिबेर तुज्या काय्लातो दवन्तां।‘
‘जिबेचो एक कुड्को काड्तांगि ना पळे।‘
‘तुजि कोकाय (जीब) कित्लि लांब ति।‘

थोड्या संदर्भांनि भुन्यांचो धोशि चड जातात। आवय्क सोस्णिकाय पावाना। त्या वेळार ति सग्ळिच रागान कडकडता। हाताक मेळल्लें काडन भुन्यांक चार व्हाजय्ता। भुग्निं चुकव्न धांवल्ल्या वेळार तिका ऐके कुशिन राग, आन्येके कुशिन लज भोग्ता। तेदाळा तिचिं उत्रां आय्का:

‘तुं मेल्यारच बरें आस्लें। हांव सुखान तरयि आस्तिं।‘
‘ल्हान आस्ताना तुजि गोम्टि चिन्डुन लगाड काडिजाय आसल्लें।‘
‘तुका पायांक धर्न धव्णिक मान्तां।‘
‘तुका चीर्न मिटाक घाल्यारयि कोणयि न्हय म्हण्चेनांत।‘
‘तुका जिवोच फोंडांत पुरिजाय।‘
‘तुजि तयिल दोन अन्दां कन्तां। ‘तुज्या दोळ्यांक जिन्गि मिन्सांग पुस्ता।‘
‘तुजे दोळे कोंकुन काडन उडय्तां।‘

चलियो आवय्क भारि लागिं। चलियो चल्यांचो स्वभाव दाकय्तित जाल्यार आवय्क भारि आक्मान जाता। ति धुवेक हल्क कर्न म्हणता:

‘हिज्ड्या जल्माचें तुं।‘
‘विलाय्ति शिपाय खंय्चो।‘

'घोड्या कास्ताचें।'

'लज्मांड्या काळ्या भाण्शिऱ्या।'

चेडवांनि मातियेचिं आय्दानां तवळ तवळ फुटय़्ल्यार।

'तुका कुंबाराच्या चेड्यालागिं काजार कऱ्यांगो।' म्हण्ता आवय।

ल्हान चलियो कानांच्यो मुदियो होग्डाय्तात आनि हाताचिं कांक्णां फुटय्तात, तेदाळा:

'तुज्या कानांक दोन कट्ट्यो गुंतुन घाल।'

'हातांक तुज्या लोंक्डि कांक्णां घाल्यां।" - अशें म्हणोन भाशेच्या अलंकारा सवें आवय भुऱ्यांक नियंत्रिता।

आकेर कऱ्च्या फुडें, संक्षिप्त थरान सांग्चें तर, आम्च्या कोंकणांत्ल्या कोंक्णि लोकवेदांत थरावळ आनि नमुन्यावार प्रांतीय विविदता आय्कोंक आनि पळेंव्क मेळ्ता। पुण आम्चें कोंक्णि लोकवेद साहितिक विवरणात्मक घडिणशिक (analysis) ऐदोळ वळग जाव्ना तें आम्चें दुरादृश्ट ,हे दिशेन, खंडित जाव्न चडित वार्व जाय्जे । आम्कां अव्विल्यांक पुणि, आम्च्या ह्या लोकवेदाचि रूच रिगोन हाचि घडिणशि करुंक साद्य आसा - तशें जांव।



# कोंक्णि भास, साहित्य आनि संस्कृति

## (विज्ञानिक आनि व्यवहारिक नदर)



फा। प्रताप नाय्क, जे.स.
तोमास स्टीवन्स कोंक्णि केंद्र
आल्त पर्वीरि, गोंय - 403 521

**0.0 प्रस्तावन:** भास, साहित्य, संस्कृति, हासो, रचनात्मक (creative) सकत, कलात्मक (artistic) सकत् आनि स्वतंत्र चिंतप आनि चाल (behaviour) मन्शाक मोन्जाति थाव्न वेग्ळाय्तात। हे घटक जरि वेवेग्ळे (distinct) तरि ते विविंगड करुंक जाय्नांत (inseperable) तसले। ह्या घटकांक लागुन मनिस प्राणि वर्गा थाव्न वेग्ळो जाव्न एक व्यक्ति (human person) जाता। मन्शाक व्यक्ति कर्च्या ह्या घटकांचेर आतां खोलायेन (in depth) नदर मान्चि गर्ज।

**1.0 संस्कृति:** मन्शां आस्ललेकडेन संस्कृति आसाच। संस्कृति नासल्लिं मन्शां नांत। संस्कृति ऐका समाजाचि आस्ता। समाजा प्रकार संस्कृति वेग्ळि आस्ता। संस्कृति वा संस्कृताय म्हणजे कितें? मोटव्यान सांग्चें तर ऐका समाजाच्या सदांच्या जिवितांत कितें सर्व जाय आस्ता तें सर्व ताचि संस्कृति जाता। हांतुं खाणजेवण, पिवन, न्हेसण, पांग्रुण, भास, संगीत, साहित्य, लोकवेद (folk lore), लोक साहित्य (folk literature), घरां बांद्चि रीत, घरांत आनि घरा भार्य वाप्रच्यो वस्तु, घरांत पोस्च्यो मोन्जाति, रूकझडां, वक्तां, चिंत्नां आनि भोग्णां उग्तांन्चि रीत, आचारविचार, रितिरिवाजि, फितिस्पण, चित्रकला, धर्म, धर्माचे विधि आनि संस्कार, खेळ, मनोरंजनांचिं साधनां, धंदो, हातेरां, पर्बो, समाजिक विधि इत्यादि आस्पाव्तात।

संस्कृति ऐके न्हंय परिं। दोंग्रांत्ल्यान, झरिंत्ल्यान, व्हाळांत्ल्यान, फांटे न्हंयांत्ल्यान (tributary) न्हंय्क उदक मेळ्ता। तें उदक घेवुन ति व्हाळ्ता। संस्कृति वेळाकाळा, जाग्या आनि परिस्थिते प्रकार बदलत आस्ता। हेर संस्कृते थाव्न गर्जेच्या नांवान वा मर्जेच्या निबान कांय घटक (component) आण्णाय्ता। संस्कृतेंत आस्लले आदले थोडे घटक गळुन वेतात् वा तांचो वापर उणो जाता। नवे घटक भितर येतात। पोन्र्या आनि नव्या घटकांच्या लाग्सरपणाक (proximity) लागुन मिसळ घटक उब्जतात। हि प्रक्रिया (process) गुपितपणिं निरंतरिं चल्ता। देकुन संस्कृति सदां जिवाळ (lively) आनि क्रियाळ (active) आस्ता। जि संस्कृति वेळाकाळा पर्माणे बदलना वा हेरां थाव्न कितेंच शिकना वा घेना ति संस्कृति फकत रेलिक जावुन उन्ता वा मन्ता। वेवेग्ळ्या समाजाचि संस्कृति वेवेग्ळि आस्ता। दाख्ल्याक: कोंक्णि संस्कृति इंग्लिष संस्कृते प्रास वेग्ळि।

**2.0 भास:** संस्कृतेचो मुखेल भाग भास। देकुन भाशेक संबंध जाल्ल्या कांय विषयांचेर ह्या प्रबंधांत अधिक भर घाल्तां। मोनि आसा ति जात मोन्जात। मोन्जात मन्शां परिं उलय्ना, आप्ले विचार हेरांक कळय्ना। मोन्जातिंक आप्लि म्हण्ललि भास आसा। ति भास कांय आवाजा पुर्तिच आसा। मन्शां, भाशेचो वापर करुन चिंत्तात, उत्रांनि आप्लिं चिंत्नां आनि भोग्णां व्यक्त कर्‍तात। आप्ल्या बाळ्पणार मन्शां घरांत्लि भास (household langauge) वा आवय भास (mother tongue) आय्कतात। आनि उप्रांत ति उलोंव्क सुरु कर्‍तात। भुर्ग्यान आवय लागिं आनि आवय्न भुर्ग्या लागिं उलोंव्चे भाशेक आवय भास म्हणतात।

**2.1 बोलि (dialect):** मन्शांनि ऐकामेका कडे ध्वनि (speech sound) मुखांत्र केल्ल्या संपर्काक बोलि म्हणतात। भास एक अमूर्त संकल्पना (abstract concept)। भास कोणच उलय्नांत। भास आय्कुंक मेळना। आमि आय्कतांव आनि उलय्तांव त्यो फकत बोलियो। ऐका समाजाच्या उलोव्पाक बोलि म्हणतात। भास विज्ञानांत (linguistics) भास आनि बोलि ह्या वादाक स्थान वा अर्थ ना। संसरांत्लि खंय्चिय भास आमि घेत्लि जाल्यार तिका कांय बोलियो आसात हें आम्कां दिसोन येता। मन्शां भास पय्लि उलय्तात आनि उप्रांत गर्ज पड्ल्यार ति बरोंव्क सुरु कर्‍तात। भाशेचें उलोव्प पय्लें जाता आनि मागिर बराव्प येता। देकुन भासविज्ञानि (linguist) तोंडि भाशेक (oral language) पय्लें स्थान आनि बरय्लले भाशेक दुस्रें स्थान दितात।

भारतांत् वठार, धर्म आनि जात हांचेर आधारुन भाशेच्यो बोलियो आसात। बोलियां मदें उत्रावळित, उच्चारांत, व्याकरणांत, अर्थांत आनि वाकप्रचारांत (idiom) फरक आस्ता। भास विज्ञानाचे नद्रेन खंय्चिय एक बोलि उंच्लि वा सकय्लि, शुद्ध वा अशुद्ध ना। दर ऐका समाजाक अप्लि बोलि मोगाचि आनि गर्जेचि।

**2.2 प्रमाण बोलि (standard dialect):** राजकि (political), इतिहासिक (historical), समाजिक (social), आर्थिक (economical), शिक्षणिक (educational), संस्कृतिक (cultural) आनि हेर कारणांक लागुन ऐका वठाराचि, समाजाचि, वा धर्माचि बोलि, प्रमाण बोलि जाता। ति प्रमाण बोलि लोक सभेमाजार उलय्ता। ति इस्कोलांनि शिकय्तात आनि शिक्तात आनि ति विविध मळांनि वापर्‍तात। हे प्रमाण बोलियेक लोक भास म्हणता। जिका लोक भास म्हणता तिका भासविज्ञानांत प्रमाण बोलि (standard dialect/standard variety) म्हणतात। इंग्लडाचो राय /राणि लंडनांत राव्तात। देकुन लंडनाचि इंग्लिष बोलि, प्रमाण इंग्लिष जालि। पेश्वेंच्या काळार पुनाचि मराठि बोलि, प्रमाण मराठि जालि। मैस्रुच्या वडेयार राजांक लागुन बेंग्ळुर– मैसुर्चि कन्नड बोलि, प्रमाण कन्नड जालि।

आप्लि घन्चि बोलि भुर्गी आय्कुन उलोंव्क शिक्तात। पूण प्रमाण बोलि उलोंव्क, वाचुंक आनि बरोंव्क तांकां हेरांनि शिकोंन्चि गर्ज आसा। हें शिकप तांकां इस्कोलांत वा इस्कोला भायर्य दिंन्वें पडता। भाशेच्या शिक्पा वर्वि भुर्गी प्रमाण बोलि शिक्तात। ति वाचुंक आनि बरोंव्क शिक्ताना हेर बोलियांचि वळक तांकां मेळ्ता।

**3.0 लिपि:** भास बरोंव्क कुर्व्वो जाय। त्या कुर्व्वांचे वळेरिक (list) लिपि म्हण्तात। भास उलय्ताना आनि आय्कताना लिपियेचि गर्ज ना। तोंडि भाशेक लिपि नाका। बर्प्पि भाशेक लिपि जाय। भाशेक आनि लिपियेक कस्लोच संबंध ना। भाशेक आप्लि म्हण्ललि 'संय्भिक लिपि' आसुंक जाय अशें कांय कोंक्णि बरोव्पि म्हण्तात। भास विज्ञानांत 'संय्बिक लिपि' हि कल्पना ना। ऐके भाशे खातिर एक खास लिपि घडय्ल्या जाल्यार, ति लिपि ते भाशेचि 'निजाय्कि लिपि' वा 'संय्बिक लिपि' अशें जाय जाल्यार म्हणुं येता। दाख्ल्याक कन्नड् लिपि कन्नड भाशे खातिर घडल्या। तमिळ लिपि तमिळ भाशे खातिर तयार केल्या। भास बरोंव्क जि लिपि लोक वापर्ता ति लिपि ते भाशेचि लिपि जाता। लिपि भास बरोंव्क एक साधन, एक संकेत, एक माध्यम। लिपियेचो आनि पवित्रपणाचो कांय संबंध ना। ऐके भाशेक आम्किच एक लिपि वापरुंक जाय आसो नेम काय्दो ना। खंय्चिय एक लिपि ऐके भाशे खातिर लोकाच्या मात्यार बळान वा काय्दो करुन थापुंक जाय्ना। आप्लि भास बरोंव्क आप्णाक जाय ति लिपि वापर्चो अधिकार आनि मेक्ळिक (freedom) लोकाक आसा। दाख्ल्याक : सिंधि भाशेक ब्रिटिषांच्या काळा थाव्न पार्शि– आर्बि लिपि वापर्ताले। भारत स्वतंत्र जातच भारत सर्कारान सिंधि भाशेक देवनागरि लिपि अधिकृत करुंक प्रयत्न केल्लें। पूण लोकान सर्काराचो निर्णय मांदुन घेत्लो ना। ताका लागुन आज सिंधि भाशेक पार्शि – आर्बि आनि देवनागरि लिपियो आसात। तरि पार्शि – अर्बि लिपिच लोकामोगाळ जाल्या। काश्मिरिक सय्त पार्शि– आर्बि आनि देवनागरि लिपियो आसात। पूण लोक पार्शि –आर्बि लिपिच वाचुंक आनि बरोंव्क पसंद कर्ता।

**4.0 कोंक्णि :** कोंक्णि, सरस्वति न्हंय्चे तडिर वस्ति कर्तल्या सारस्वतांचि भास हि पुराण कथा (myth) पय्ल्या कोंक्णि विश्व सम्मेळना वेळार सुरु केल्लि ति कर्नाटकांत आनि मुंबंय्त् आतां सारस्वतां आनि क्रिस्तांवां मदें घट जाल्या। हे पुराण कथेक भासविज्ञानाचे आनि इतिहासाचे पुरावे नांत। कोंयिण आर्य भास घराण्याच्या नैऋत्य (south-west) पंग्डाचि भास। मराठि आनि गुजराति ह्याच पंग्डाच्यो आनि तिका लाग्शिल्यो भासो। कोंक्णि मन्शां, सर्व जातिंचिं आनि कातिंचिं इतिहासाच्या वेवेग्ळ्या काळार उत्तर भारता थाव्न कोंकणांत (महाराष्ट्र, गोंय आनि कर्नाटक दर्या वेळेर) वस्ति करुंक लाग्लिं। कोंयिण लोकाचें कुळार कोंकण, फकत गोंय न्हय। त्या काळार कोंकणांत द्राविड भासो उलोव्पि आदिवासि लोक वस्ति कर्तालो। हाका लागुन द्राविड भासांचो चड करुन कन्नड भाशेचो प्रभाव कोंक्णिचेर

पडला। हो प्रभाव फकत केनरांत मात्र न्हय गोंयांत सय्त आसा। सोळाव्या आनि सत्राव्या शेक्ड्यांच्या कोंक्णि – पुर्तुगेज कोशांनि कित्लिंशिच कन्नड भाशेचिं उत्रां कोंक्णि जाल्लिं आसात। कोंकणांत्ल्या लोकाचि भास कोंक्णि। तिचेर फकत सारस्वतांचि वा खंय्च्याय ऐका पंग्डाचि मिरासदारि (monopoly) ना।

1510 वर्सा नवेंबरांत पुर्तुगेजांनि बिजापूरच्या सुल्तान आदिल्शहा कडल्यान गोंय जिकुन घेत्लें। त्या काळार् गोंयांत लोक कोंक्णि उलय्तालो। पूण ति बरोंव्क वापन्ताले म्हण खात्रेन सांगुंक कस्लोच एक पुरावो आज मेरेन म्हाका मेळुंक ना। गोंयांत त्या काळार मूट्भर शिक्ललिं मन्शां मराठिंत धर्मिक साहित्य वाच्तालिं आनि बरोंव्क ति वापन्तालिं। त्या काळार गोंयांत मराठि बरोंव्क देवनागरि आनि हळे कन्नड लिपियो वापन्तालिं। पुर्तुगेज गोंयांत येंव्चे आदिं थंय जाय्तें कोंक्णि साहित्य अस्ललें आनि हाणिं ते लासुन उडय्लें आस्ल्यो फटिकऱ्यो खब्रो आम्चे कांय बरोंव्पि आनि अडेचे (pseudo) पंडित गांवार गाजय्तात। तांणिं सांग्लले सर्व देवाचें उतर म्हण कोंक्णि लोक मांदुन घेता! पुर्तुगेज गोंयांत येंव्चे आदिं कोंक्णिंत कांय्च साहित्य नास्लेलें हें कठोर सत लिपोंव्क आनि आप्णा थंय आस्चिं हल्केपणाचिं भावना (inferiority complex) दुस्र्यांक कळिचं न्हय ह्या इराद्यान हि पुराणकथा (myth) देवनागरि लिपियेंत्ल्या कोंक्णि बरोव्प्यांनि गांवार गाजय्ल्या। हांतुं तिळा तित्लें सत ना। पुर्तुगेज गोंयांत येंव्चे आदिं कोंक्णिंत कांय्च बरय्ललें साहित्य नास्ललें कित्याक तिका बरोंव्चि परंपराच नास्लेलि।

कोंक्णिंत बरोंव्चि सुर्वात सोळाव्या शेक्ड्यांत गोंयांत आय्लेल्या फ्रान्सिस्कन आनि जेज्वित मिशनरिंनि केलि। तांकां रोमि लिपि सदांचि। 6 अक्तोबर 1556 दिसा जेज्वितांनि आतांच्या पोन्र्या गोंयांत सां पाव्लु कोलेजिंत आसियांत्लो पय्लो छाप्खानो सुरु केलो। छाप्खान्यांत भारतीय भासांचे खिळे (Fonts) नातल्ल्यान मिशनरिं खातिर तांणिं मिशनरिंनि कोंक्णि बरंव्क आनि छापुंक रोमि लिपि वापर्लि। गोंयांत येंव्च्या मिशनरिं खातिर पुर्तुगेज – कोंक्णि, आनि कोंक्णि – पुर्तुगेज, सबार शब्दकोश तयार केले। कोंक्णि व्याकरणाचि माहिति पुर्तुगेज भाशेंत बरय्लि । नव्या क्रिस्तांवां खातिर कोंक्णिंत दोतोर्निचिं पुस्तकां, सांतांच्यो जिणियो, वांजेलाचें भाषांतर, आनि हेर धर्मिक साहित्य तांणि तयार केलें. कोंक्णि भास विज्ञानाचि, कोंक्णि , लातिन, आनि ग्रीक भासांच्या तुलनात्मक अभ्यासाचि सुर्वात तांणिंच केल्लि। अशि तांणिं कोंक्णि बरोंव्पि बुन्याद घालि। तांणिं ति बुन्याद घालुंक नास्ललि जाल्यार घडिये आज पर्यंत कोंक्णि फकत तोंडि भास आस्ति! कोंक्णिक बरोंव्चि परंपरा दिल्लो पय्लो मान फ्रान्सिस्कन आनि जेज्वित मिशनरिंक दिंव्क जाय।

26 फेब्रेर 1975 दिसा दिल्लिच्या साहित्य आकादेमिन कोंक्णि स्वतंत्र साहित्यिक भास म्हण मान्यताय दिलि। हि मान्यताय दिताना साहित्य अकादेमिन लिपियेचो खंय्च

उल्लेक करुंक ना। हि सत गजाल मतिंत दवरल्लि बरि। गोंय्चे विधान सभेन 4 फेब्रेर 1987 दिसा देवनागरि लिपियेंत्लि कोंक्णि गोंय्चि राजभास म्हण बिल पास केलें। 20 आगोस्त 1992 दिसा भारताच्या आटव्या परिशिष्टांत कोंक्णिचो आस्पाव जालो। थंय सय्त लिपियेचो उल्लेक करुंक ना। हे विशिं तोमास स्टीवन्स कोंक्णि केंद्रांत लिखित पुरावे आसात।

**4.1 कोंक्णिच्यो बोलियो:**

**a. प्रदेशिक बोलियो (Regional dialects):** इतिहासिक आनि हेर कारणांक लागुन कोंक्णि लोक महाराष्ट्र, गोंय, कर्नाटक आनि केरळ राज्यांनि वस्ति कर्त्ता। 2001 वर्सा काडलले खानेसुमारेचि, भाशे प्रकार माहिति आजुन मेळना। 1991 खानेसुमारे पर्माणे भारतांत कोंक्णि 17,60,607 मन्शांचि आवय भास। हांत्लिं 7,06,397 कर्नाटकांत, 6,02,626 गोंयांत, 3,12,618 महाराष्ट्रांत, 64,008 केरळांत आनि उरल्लिं हेर राज्यांनि राव्तात। गोंयांत कोंक्णि राजभास। पुण गोंयांत आस्चे प्रास चड कोंक्णि लोक गोंयां भार्य आसा! 1971, 1981 आनि 1991 खानेसुमाऱ्यांचे आंक्डे दोळ्यां मुखार दवरुन गणित केल्यार आतां अख्ख्या संसारार कोंक्णि लोकाचो आंक्डो 25 लाकां प्रास चड ना। खानेसुमारे वेळार कोंक्णि येनास्ललिं आनि घरांत इंग्लेज उलय्तलिं सय्त आप्लि आवय भास कोंक्णि म्हण सांग्तात! कोंक्णि लोक 50 लाखां प्रास चड आसात म्हण गाजय्तल्यांक तो आंक्डो खंय मेळ्ळो तें कळित ना।

कोंक्णि लोक विविध राज्यांनि शिंप्डोन गेल्ल्यान थळा प्रकार कोंक्णि बोलियो दिष्टि पडतात। दाख्ल्याक सावंतवाडि, पेडणेचि कोंक्णि, गोंय्च्या क्रिस्तांवांचि बार्देशि कोंक्णि, गोंय्च्या क्रिस्तांवांचि साश्टि कोंक्णि, गोंय्च्या सारस्वतांचि कोंक्णि, गोंय्च्या हिंदु भौसांचि कोंक्णि, कर्नाटकांत्ल्या गौड सारस्वतांचि कोंक्णि, मंग्ळुरि क्रिस्तांव कोंक्णि, कुंदापुर्च्या खार्व्यांचि कोंक्णि मेस्तांचि कोंक्णि, कुण्ब्यांचि कोंक्णि, नवायत मुस्लिमांचि कोंक्णि, सिद्धि कोंक्णि, होन्नावर्चि कोंक्णि, कार्वारि कोंक्णि, बेळ्गांव्चि कोंक्णि, इत्यादि। ह्या प्रादेशिक बोलियां मदें जाय्तो फरक आसा। दाख्ल्याक:

| गोंय क्रिस्तांव (प्रमाण) | मंग्ळुरि क्रिस्तांव (प्रमाण) |
|---|---|
| पिराय | प्राय |
| मात | मातर |
| धांव्ललो | धांवल्लो |
| वचुंक जाय | वचाजे |
| करुन | कर्न |
| केंस | केस |
| करुंया | कऱ्यां |
| गरज | गर्ज |

**b. समाजिक बोलियो: i) धर्मा प्रकार बोलियो:**

क्रिस्तांव, हिंदु आनि मुस्लिम (नवायत आनि सिद्धि समाज) धर्माचे मनिस कोंक्णिच्यो वेवेग्ळ्यो बोलियो उलय्तात। दाख्ल्याक:

| मंग्ळुरि क्रिस्तांव | कर्नाटक गौड सारस्वत |
|---|---|
| आम्चो | आम्गेलो |
| जायगि ? | जाय्वे ? |
| भुर्गीं | चेर्डुवां |
| काडलें | काळ्ळें |
| उजो | उज्जो |
| विचार | निम्गि |
| करिजे | कर्का /कोर्का |
| पियेलो | पिल्लो |

**ii. जाति प्रकार बोलियो:** ऐकाच धर्माचिं मन्शां आप्ले जाति पर्माणें कोंक्णिच्यो वेवेग्ळ्यो बोलियो उलय्तात। दाख्ल्याक गोंय्चो सारस्वत आनि गोंय्चो हिंदु भौस ऐकाच हिंदु धर्माचे। पूण तांच्यो जाति वेग्ळ्यो त्या कारणान तांच्यो कोंक्णि बोलियो वेवेग्ळ्यो:

| गोंय्चो सारस्वत | गोंय्चो हिंदु भौस |
|---|---|
| आय्लो | येय्लो |
| उदक | उदिक |
| आशिल्लो | आसललो |
| ताका | तेका |
| चलो | चेडो |
| तांगेर | तेंगेर |
| चलि | चेडुं |
| हातार | हातिर |

**4.2 कोंक्णिच्यो लिपियो:** रोमि, देवनागरि, कन्नड, पार्शि – आर्बि आनि मलयाळं ह्या पांच लिपियांनि कोंक्णि बरय्तात। हाका लागुन कोंक्णिक लिपि ना, आप्लो वाद कांय वर्सां पाटिं चल्तालो। हो वाद चुकिचो आनि अर्थ नाम्ललो। इंग्लेज, फ्रेंच, पुर्तुगेज, आनि इतर युरोपि भासो रोमि लिपियेंत बरय्तात। तांकां आप्लि म्हणललि लिपि ना। तरि तांकां लिपि ना म्हण कोणाय्चो वाद ना। कोंक्णिचो चडसो वार्व रोमि, देवनागरि आनि कन्नड लिपियांनि जाता। ह्यो तीन लिपियो आज कोंक्णिच्यां मुख्बेल लिपियो। कोंक्णिचे सर्व

ध्वनि दाकोंव्क ह्यो तीनयि लिपियो उणियो पडतात। हें सत मतिंत धन्ललें बरें। कोंक्णि खातिर एक खास लिपि घडोंव्क जाय आस्लि। पूण तें काम कोणें केलेंच ना। कोंक्णि आर्यन भास। देकुन देवनागरि लिपि तिचि मुळाचि लिपि। तिच तिका समर्पक लिपि म्हण ताळमूळ नासल्ले वाद मांडिप कोंक्णि बरोव्पि आनि अर्दे पंडित आम्चे मदें कांय उणें नांत। सिंधि आनि काश्मिरि आर्यन भासो। पूण तांचि अधिकृत आनि लोकामोगाळ लिपि पार्शि–आर्बि। संस्कृत भास देवनागरि लिपियेंत बरोंव्चि रीत (orthography) विज्ञानिक। पूण कोंक्णि, देवनागरि लिपियेंत बरोंव्चि रीत कित्लि चुक्ता आनि उणि पडता ह्या विषयाचेर गोंय्च्या जेज्वितांच्या तोमास स्वीवन्स कोंक्णि केंद्रान हाचे आदिं सांग्लां, बरय्लां आनि पुराव्यां सय्त दाकोव्न दिलां। देवनागरिंत कोंक्णि बरोंव्चि एक, वाच्चि दुस्रिच। दाखल्याक:

| देवनागरि | बरोव्प | उच्चार |
|---|---|---|
| उदकांत | (उदकांत) | उद्कांत |
| काळजाक | (काळजाक) | काळ्जाक |
| खडपार | (खडपार) | खड्पार |
| उपकार | (उपकार) | उप्कार |
| हुसको | (हुसको) | हुस्को |

देवनागरिंत कोंक्णि बरोंव्चि रीत उच्चारा प्रास वेग्ळि जाल्ल्यान ते लिपियेंत कोंक्णि वाच्ताना, बरय्ताना शिक्तल्यांचे आनि शिकय्तल्यांचे हालहवाल जातात, तक्लेक फोडाफोड सुरु जाता। एक कोंक्णि भास विज्ञानि, शिकोव्पि आनि संशोधक ह्या म्हज्या अनुभवान हें हांव खात्रेन सांग्तां। रोमि आनि कन्नड लिपिंयानि कोंक्णि बरोंव्चि रीत, देवनागरिंत कोंक्णि बरोंव्चे रिति प्रास उच्चाराक चड लागिं आसा।

**4.2.1 कन्नड लिपि:** सोळाव्या, सत्राव्या आनि अट्राव्या शेयड्यांनि विविध कारणांक् दुकळ, वोस्यापिडा, मराठांचें आक्रमण, पुर्तुगेजांचि धर्मिक कोड्त, पुर्तुगेजांचि कोंक्णि भाशेचेर आनि संस्कृतेचेर बंदि (ban) कृषि, सुपिक (fertile) भुंय, व्यापार लागुन गोंयां थाव्न कोंक्णि क्रिस्तांवां केनरांत वस्ति करुंक आय्लिं। हांगा येतच तांणिं कोंक्णि खातिर कन्नड लिपि आप्णाय्लि। हि पुराणकथा कोंक्णि लोका मदें आसा। पूण खरि गजाल वेग्ळिच आसा। कदंब रायांक लागुन धाव्या शेक्ड्यांत हळेकन्नड लिपि गोंयां पाव्लि। आमादोर द सां आना ह्या फ्रान्सिस्कन मिशनरिन सुमार 1607 वर्सा गोंयांत Flos Sanctorum (सांतांचें फुल) हळे कन्नड लिपियेंत बरय्लल्या कोंक्णि पुस्तकाचि हातपत्र पेरिसाच्या सर्कारि वाच्पा घरांत (library) आसा। तांतु A4 आकाराचिं 1093 पानां आसात। ताचि एक झेरोक्स प्रति गोंय्च्या विश्वविद्यालयांत आसा। हांत्ल्यान एक गजाल स्पष्ट जाता: केनराच्या क्रिस्तांवांनि गोंयांत थाव्न केनराक येताना कोंक्णि आनि ति बरोंव्क कन्नड

लिपिय सांगाता हाडिल । तेद्रां पासुन आज मेरेन केनरांत कोंक्णि बरोंव्क कन्नड लिपि वापन्तात ।

देवनागरि आनि रोमि लिपियां कडे सर केल्यार मंग्ळुर दियेसेजिंत कन्नड लिपियेंत कोंक्णि बरोंव्चि रीत प्रमाण उच्चाराक भोव लागिं आसा । ह्या तीनयि लिपियांनि हांव कोंक्णि वाच्तां, बरय्तां आनि शिकय्तां । ह्या अनुभवान आनि भासविज्ञानाच्या आधारान हें हांव सांग्तां।

**4.3 कोंक्णि साहित्य आनि संस्कृति:** गोंयां थाव्न कोंक्णि उलोव्पि क्रिस्तांव लोक केनरांत वस्ति करुंक लाग्लो। धर्मिक गितांनि, माग्ण्यांनि, लोकवेदाच्या (folklore) विविध रुपांनि, आनि पदांनि तोंडि साहित्य केनरांत वाडोंक लाग्लें। 1882 वर्सा जेज्वितांनि कोडियालबैल छाप्खानो सुरु कत्तच कन्नड लिपियेंत कोंक्णि साहित्य छापुन येंव्क सुरु जालें। तेद्रां पासुन आतां मेरेन कोंक्णि साहित्य पुस्तकां, नेमाळिं, नाटकां, भक्तिक गितां, केसेटि, सिडि, फिल्मां आनि पदांच्या रुपान व्हाळत आसा। साहित्य हें उतर हांव विशाल अर्थान वापन्तां। जंय भाशेचो कलात्मक वापार जाता थंय साहित्य आसा वा आसुंक जाय अशें म्हजें चिंतप। आदिं कोंक्णि साहित्य पुस्तकांच्या रुपार बळ आस्ललें। पूण पाटल्या 10 वर्सांनि कोंक्णि पुस्तकांचो आंक्डो देंवुंक लाग्ला । 2002 आनि 2003 वर्सांनि उज्वाडाक आय्लल्या कोंक्णि पुस्तकांचो आंक्डो सकय्ल्या तक्टो क्रमांक: 1 हांतु (chart) दिला ।

**तक्टो क्रमांक : 1**

| लिपि | 2002 | 2003 |
|---|---|---|
| कन्नड | 29 | 28 |
| देवनागरि | 39 | 28 |
| रोमि | 09 | 11 |
| जमो | 77 | 67 |

कन्नड लिपियेंत्ल्या कोंक्णि साहित्यांत आस्चिं कांय पुस्तकां कोंक्णिच्या हेर लिपियांनि नांत। देकिक: लैंगिक शिक्षण, भलाय्कि, गांव्टि वक्तां, घरदाराक संबंध जाल्लि सामान्य माहिति, आख्खो बाय्बल, जेवणखाण, फकाणां, रांदप। पूण कन्नड लिपियेंत्ल्या कोंक्णि साहित्यांत नाटकाचिं, व्यक्ति चरित्रेचिं, आत्म चरित्रेचिं, साहित्य विमर्श्याचिं, भुर्ग्यांच्या साहित्याचिं, प्रवास वर्णनाचिं, दीसपटियेचिं (diary, ललित निबंधाचें, साहित्याच्या इतिहासाचिं पुस्तकां भोव उणिं। कन्नड लिपियेंत्ल्या कोंक्णि साहित्यांत धार्मिक पुस्तकांचो

ांक्डो चडु। धार्मिक पुस्तकांक लागुन कोंक्णि वाच्चि आनि बरोंन्चि सवय कोंक्णि ोका मदें सुरु जालि। मटव्यो कथा, कादंबरिका (novelette), कादंबरि, पदां हे साहित्य कार हांगा चड लोकामोगाळ जाल्यात। पाटल्या धा वर्सांनि कविता हो प्रकार बरोच वग्र ुन्ला। आदिं हांगा कवितांक आनि कविंक मान नास्लो। पूण आतां कवितांचिं पुस्तकां काशित जातात। सामर्थि आस्लले कांय तर्नाटे कवि हांगा आतां आसात। हांगाच्या तेगां रोव्यांक तांच्या कवितेच्या पुस्तकाक साहित्य अकादेमिचो पुरस्कार मेळ्ळा। देवनागरि लपियेंत्ल्या कोंक्णि बरोव्यांच्या लिपियेच्या कुतंत्रि खेळाक लागुन, पुडिल नदर दवरुन ाप्ल्या हक्कां खातिर ऐक्टान आनि खळनास्ताना वाव्र करिनास्ताना आपाप्ले पंगड उबे र्ने राज चलोंन्च्या हांगाच्या बरोव्यांक लागुन हांगाच्या कांय ताकतदार आनि नांव ास्लल्या बरोव्यांक साहित्य अकादेमिचो पुरस्कार मेळ्ळो ना! मेळुंक जाय म्हण हट धरुन ाहित्य अकादेमि कडे पत्र व्यवहार, चर्चा हांगाच्या बरोव्यांनि करुंक ना। कोंक्णि बरोव्यां दें ऐक्ट आनि फुडाऱ्पण ना। रोमि लिपियेंत्ल्या बरोव्यांचि गत सय्त हिच।

गल्फांत आस्च्या कांय कोंक्णि बरोव्यांक आनि कोंक्णिंक (कोंक्णि मन्शांक) लागुन, देवो पत्राक लागुन कन्नड लिपियेंत्ल्या कोंक्णि बरोव्यांक मानाचे पुरस्कार विविध संस्थे दिंव्क ाग्ल्यात। गल्फांत कोंक्णि कार्यावळि जातात। गल्फांत कोंक्णि संस्थे आसात। तांच्या वेबजाळांनि website) कोंक्णिक स्थानमान आसा। हिं सर्व कोंक्णि खातिर बरिं लक्षणां।

केनरांत्ल्या पय्ल्या कोंक्णि नेमाळ्याचि बोणि दिर्वे पत्रान 1912 वर्सा केलि। द्रां पासुन कित्लिंशिंच नेमाळिं आय्लिं आनि गेलिं। ह्या नेमाळ्यांक लागुन कोंक्णि साहित्य भानि ताचे प्रकार लोका मेरेन पाव्ले। कोंक्णि वाच्चि आनि बरोंन्चि सवय लोका मदें चालु रुंक हिं पत्रां जवाब्दार। 2004 वर्सांत कोंक्णि नेमाळ्यांचि परिस्थिति कितें आसा ति ायटो क्रमांक: 2 हांतु दिल्या।

**तक्टो क्रमांक : 2**

| लिपि | दिसाळें | हप्त्याळें | पंद्राळें | महिन्याळें | 2 महिन्याळें | 3 महिन्याळें | 4 महिन्याळें | 6 महिन्याळें |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| कन्नड | --- | 04 | 01 | 15 | 01 | 01 | 01 | 02 |
| नागरि | 01 | --- | --- | 03 | 02 | --- | --- | 01+ |
| रोमि | --- | 01 | --- | 04^ | 01 | --- | 01 | --- |
| पार्शि | --- | --- | 01 | 01 | --- | --- | --- | --- |

चत्राय: + कोंक्णि आनि इंग्लिष भासांनि
^ कोंक्णि आनि इंग्लिष भासांनि

तक्टो क्रमांक: 2 हाचे प्रकार हेर लिपियां प्रास कन्नड लिपियेंत चड कोंक्णि नेमाळि आसात। ह्या नेमाळ्यांक सर्कारांचो तेंको (support) वा जाहिराति नांत। फकत वर्गणिदारांक, वाच्प्यांक आनि जाहिरातदारांक लागुन इत्लिं नेमाळि आजुन हांगा चल्तात। हि खरिच बरि खबर।

कन्नड लिपियेंत कोंक्णि साहित्याचो आंक्डो कांय उणो ना। आंक्ड्या वांग्डा पांव्डो कित्लो आसा ह्या विषयाचेर खोलायेन भासाभास (discussion) हांगाच्या बरोव्प्यांनि, वाच्प्यांनि आनि विमर्षकांनि केद्रां तरि कर्चि पड्तलि। पोल खंय्चि, धानि खंय्चि ठरोंव्च्या पांव्ड्याक हांगाचे बरोव्पि आनि वाच्पि पाव्ल्यात। भारतीय भासांच्या साहित्य दर्ज्याचें मूटभर तरि साहित्य कन्नड लिपियेंत्ले कोंक्णिंत दुबावा विणें आसा। हें हांव अभिमानान आनि खात्रेन सांग्तां।

देवाधीन जाल्ल्या आम्च्या बरोव्प्यां मधें कोंक्णि कळसाचे त्रिमूर्ति म्हजे मुखार उबे राव्तात। चाफ्रा, खडप् आनि ऐट्येल। कोंक्णि साहित्याच्या वेवेग्ळ्या प्रकारांचेर् हाणिं आप्लो शिक्को मार्ला। आतांय हांगा चिम्टि भर तरि ताकतदार कवि, बरोव्पि, संगीतकार आनि गाव्पि आसात। हांव तांचे भित्रल्या कोणाय्चिं नांवां घेवुन धुंपाव्क वा तासुंक वचनां। आम्च्या विरांक उक्लुन धऱ्यां आनि दुस्मनांक विसऱ्यां हें तत्व पाळ्ललें बरें।

हरेका वर्सा पुस्तकां प्रास चड पदांच्यो, भक्ति गितांच्यो आनि हेर कोंक्णि केसेटि आनि सिडि केनरांत उज्वाडाक येतात। पाटल्या धा वर्सांनि भक्ति गितां नांवान आय्लल्या चड्श्या केसेटिंनि उत्रांचि आनि संगिताचि उतळाय सार्कि दिस्ता। भक्ति गितांचें संगीत पदांच्या वा नाचाच्या संगिता प्रास वेग्ळें हें संगीत दितल्यांक सम्जुंक ना। 'जें विक्ता तें हांव दितां' ह्या व्यापारि चिंत्पाचेर् भक्ति गितां केसेटि बाजारांत् येतात् आनि विकुन वेतात। लोकाक रुच्ता तेंच दिल्यार कला वाडना. लोका थंय खरि भक्त आनि संगिताचि खोलाय वाडोंव्क वजन्दार भक्ति गितांच्यो केसेटि जाय। केसेटिंचें आनि सिडिंचें हें माध्यम कोंक्णि लोका मदें हांगा तशेंच गोंयांत लोकामोगाळ जालां। ह्या माध्यमाक लागुन घरांनि लोकाच्या कानार कोंक्णि पडता। ह्या माध्यमाक लागुन बरोव्पि, कवि, संगीतकार, गाव्पि आनि वाजंत्रि लोकाक वळ्किचे जातात। कोंक्णि संगिताच्या मळार दोळ्यांत भऱ्चो तसलो वाव्र हांगा जाला। संगिताचे नवे प्रयोग, मांडावळ, सादरिकरण (presentation), संगीत आनि नाचाचो ताळमेळ (blend), सुत्रसंचालन (compere) हांचेर चीत दिल्लें दिसोन येता। जेप्पु वठारांत्ल्या आदिं तुळु आवय भास आस्लल्यांनि, पाटल्या शेंबर वर्सांनि कोंक्णि आप्लि आवय भास म्हण मांदुन घेत्लल्यांनि, कोंक्णि भाशे, संगीता, आनि संस्कृति खातिर जें कितें ह्या पन्नास वर्सांनि केलां तें हजार वर्सां थाव्न कोंक्णि आप्लि आवय भास म्हणतल्यांनि करुंक ना। हें नाग्डें सत आमि खाल्तें पणान मांदुन घेंव्क जाय आनि जेप्पु वठारांत्ल्या

आम्च्या बांव्डांक आमि मानान हजार पाव्टिं मान बागांव्क जाय। इत्लेंच न्हय तांच्या कोंक्णि वाव्राक आम्चो पुर्तो तेंको (support) आनि सहकार दिंव्चो आम्चो काय्दो आमि पाळ्तल्यांव म्हण निचेव कऱ्चो।

**4.4 कर्नाटकांत आतां चालु आस्चें कोंक्णि शिकप:** केनरा हायस्कूलांत पाटल्या कांय वर्सां थाव्न इस्कोलाच्या वेळा भार्य सारस्वतांचे कोंक्णि बोलियेंत कोंक्णि यलाशि चल्तात। भुर्ग्यांक प्रमाण पत्रां (certificate), इनामां दितात। ह्या यलाशिंक भुर्ग्यांनि आनि तांच्या आवय्बापांय्नि बरो प्रतिसाद दिला। अस्लो वार्व हांगाच्या क्रिस्तांवांच्या संस्थ्यांनि कित्याक करुंक ना? हाचि जाप कोण दीत?

सां. लुविस कोलेजिंत आगोस्त 1997 थाव्न स्नातकोत्तर कोंक्णि डिप्लोमा करेस्पोंडेन्स कोर्स आसा। तशेंच सां. लुविस म्हाविद्यालयांत बि.ऐ. कऱ्ताना कोंक्णि 2 पेपर घेंव्क मेळ्तात। हांगाच्या हेर म्हाविद्यालयांनि बि.ऐ. कऱ्ताना कोंक्णि 2 पेपर घेंव्क मेळ्तात वा ना तें हांव नेणां। 1995 वर्सा थाव्न सां. जुजे सेमिनरिंत शिक्च्या मंग्ळुर दियेसेजिच्या सेमिनरिस्तां खातिर दशेंबरांत ऐका हप्त्याचो कोंक्णि कोर्स आस्ता।

मांडसोभाण संस्था, भुर्ग्यां खातिर चाफ्रा प्रतिभा कोंक्णि शाळा चलय्ता। फिर्गजांनि, शेरांनि आनि गांवांनि केद्रां केद्रां कोंक्णि शिक्पा शिबिरां हांगाचे संस्थे आनि पत्रां मांडुन हाडतात। ह्या सर्व वाव्रांत्ल्यान थोडें तरि कोंक्णि शिकप लाभ्लां आनि लाभत आसा। पूण तें कांय्च पावना।

**4.4.1 कर्नाटकांत कोंक्णि शिक्पाचि मुख्लि दिशा:** कर्नाटकांत कोंक्णि शिक्पाचि दिशा ह्या विषयाक सुऱ्वात कऱ्चे आदिं कोंक्णिचें कुळार म्हण आपोंव्च्या गोंयांत कोंक्णि शिकप आज कशें चल्लां हाचेर एक धांव्ति नदर घाल्तां। गोंयांत 30.09.2003 दिसा मेरेन 966 सर्कारि प्राथमिक इस्कोलां (I-IV Std.) आसात। तांत्ल्या 79 इस्कोलांनि मात्र कोंक्णि माध्यम चल्ताना 918 इस्कोलांनि मराठि माध्यम चल्ता। गोंयांत 275 खास्गि प्राथमिक इस्कोलां आसात। तांत्ल्या 137 इस्कोलांनि कोंक्णि माध्यम आसा। 137 इस्कोलां पय्किं 121 (88.32%) क्रिस्तांवांनि चलोंव्चिं। अशिं सर्कारि आनि खास्गि इस्कोलां मेळुन 1241 प्राथमिक इस्कोलां आसात। हांत्ल्या 216 इस्कोलांनि (17.41%) कोंक्णि माध्यम, 995 इस्कोलांनि (80.18%) मराठि माध्यम् चल्ता. 1995 - 1996 वर्सा 244 प्राथमिक इस्कोलांनि कोंक्णि माध्यम चल्तालें। 2003 वर्सा कोंक्णि माध्यम इस्कोलांचो आंक्डो 216 आय्ला। हरेका वर्सा कोंक्णि प्राथमिक इस्कोलांचो आंक्डो देंवत आसा! कोंक्णि प्राथमिक इस्कोलांक सर्कारि अनुदान मेळ्ता आनि शिकोव्प्यांक सर्कारि पगार दिंव्क आसा। ह्या कारणांक लागुन गोंय्च्या क्रिस्तांव प्राथमिक इस्कोलांनि कोंक्णि माध्यम

चल्ता! फाल्यां सर्कारान कोंक्णि माध्यमाच्या इस्कोलांक अनुदान बंध केल्यार किल्ल्या क्रिस्तांव प्राथमिक इस्कोलांनि कोंक्णि माध्यम उरत जाप स्पष्ट आसा।

गोंयांत खंय्चेच क्लाशिक कोंक्णि सांक्तिचि भास (compulsory language) म्हण शिकय्नांत। हाचो अर्थ असो, गोंयांत कोंक्णि राजभास आसुन सय्त गोंय्च्या इस्कोलांनि कोंक्णि भास शिकनास्ताना धावि मेरेन शिकप करुंक जाता।

गोंयांत पांच्वे क्लाशि थाव्न धावि मेरेन कोंक्णि तिस्रि भास म्हणुन घेंव्क मेळ्ता। आट्वि थाव्न धावि मेरेन शिकप दिंव्चिं 71 सर्कारि आनि 288 खास्गि इस्कोलां आसात। हांत्ल्या फकत 09(12.68%) सर्कारि इस्कोलांनि आनि 175(60.73%) खास्गि इस्कोलांनि कोंक्णि तिस्रि भास म्हण शिकय्तात। अशें 359 इस्कोलां पय्कि फकत 184(51.25%) इस्कोलांनि कोंक्णि तिस्रि भास म्हण शिकय्तात। 2004 वर्सा ऐप्रिलांत 18,427 भुर्गिं धावेचे परीक्षेक बस्ललिं। तांत्ल्या 6889 भुर्ग्यांनि (37.39%) कोंक्णि तिस्रि भास घेत्ललि। आतां मेरेन 40% टक्केक हो आंक्डो पावुंक ना। गोंयांत इक्रावे आनि बारावे क्लाशिंक कोंक्णि एक खुशेचि भास (optional language) म्हण घेंव्क मेळ्ता। 2004 वर्सा 12,127 विद्यार्थि बारावेचे परिक्षेक बस्लिं। तांत्ल्या 3167 जणांनि मात्र (26.12%) कोंक्णि घेत्लि ।

बि.ऐ. तिस्र्या वर्सांत शिक्ताना कोंक्णि 6 वा 3 पेपर घेंव्क मेळ्तात। कोंक्णिंत ऐम.ऐ. कर्त्ताना 25 जणांक प्रवेस मेळ्ता। 2004 जुनांत। M.A. (कोंक्णि) Part I: 22 विद्यार्थ्यांनि प्रवेस घेत्ला। M.A. (कोंक्णि) Part II: 17 विद्यार्थि आसात। कोंक्णि शिकुंक येंव्च्यो चडश्यो चलियो ।

गोंयांत बि.ऐड. कर्त्ताना कोंक्णि एक खाशेलो विषय घेंव्क मेळ्ता। कोंक्णिंत पि.ऐचडि. कर्चि सुविधा गोंय्च्या विश्वविद्यालयांत आसा। कोंक्णि विषय घेव्न ऐम.ऐ. परिक्षेंत उण्यांत उणे 50% मार्क मेळ्ळ्यार पि.ऐचडि. करुंक अर्ज करुंक जाता। जाय्त्या विद्यार्थ्यांनि पि.ऐच.डि. करुंक प्रवेस घेतल्लो । पूण आतां मेरेन कोणाकच कोंक्णि विभागांत पि.ऐचडि. डिग्रि मेळ्ळुंक ना। सद्याक 5 पि.ऐचडि. विद्यार्थि आसात। 1986 वर्सा थाव्न तोमास स्टीवन्स कोंक्णि केंद्रांत कांय्च कोंक्णि येनास्ललल्यांक धरुन पि.ऐचडि. कर्त्तल्यांक सय्त विविध प्रकारांचे कोंक्णि कोर्स आसात। ऐका वर्साचो पदव्युत्तर (Postgraduate) कोंक्णि डिप्लोमा कोर्स केंद्रांत चल्ता। हि जालि गोंय्च्या कोंक्णि शिक्पाचि परिस्थिति ।

आतां मेरेन केनरच्या लोकांनि कोंयिण भास सांबाळ्ळ्या। ति उलोंव्क, वाच्चुंक आनि बरोंव्क वाप्रल्या। गांवांनि धर्माक संबंध जाल्ल्या सर्व मळांनि आनि शेरांनि कांय प्रमाणार ति आजुन घोळ्ना। समाजिक आनि संस्कृतिक मळांनि तिचिं पाळांमुळां गेंब्ल्यांत। केनरांत क्रिस्तांवांचि भास कोंक्णि, हें चिंतप बळ आसा। हि खुशेचि आनि अभिमानाचि

जाल। इत्ले दीस हांगाच्या लोकान आप्लि भास आनि संस्कृति उरय्लि, सांबाळ्ळि आनि क्रांय मापान ति वाडय्लि। पूण इत्लेंच पावना। आजुन ति वाडोंव्क आनि फुलोंव्क आसा। केत्याक भास जर गेलि संस्कृतेचो अर्दो वांटो गेलो म्हळ्यार चूक जांव्चिना। भाशे विणे संस्कृति मोनि, थोंटि, पांग्ळि, कुड्डि आनि भेरि।

कर्नाटकांत कोंक्णि शिक्पाचि मुक्लि दिशा ठरोंव्चे आदिं हांगा कोंक्णि शिक्पाचि गर्ज आसा वा ना, आसा जाल्यार ताचिं कारणां कसलिं हाचेर म्हजे थोडे विचार मांडतां। कर्नाटकांत कोंक्णि शिकुन पोट भरना हि सत गजाल। पूण जिवितांत हरेक गजाल आमि फकत पोटा खातिर मात्र करिनांव। मन्शाक कूड मात्र न्हय काळिज, मत आनि आत्मो आसा। हांगा काळिज म्हळ्यार मन्श्याचा भोग्णांचें वर्तुळ। मत म्हळ्यार विचारांचें वर्तुळ आनि अत्मो म्हळ्यार आध्यात्मिक् जिवित्. जशें कुडिक् खाण् जाय् तशेंच् काळ्जा क्, मतिक् आनि अत्म्याक खाण जाय। कूड, काळिज, मत आनि अत्मो हिं वर्तुळां मेळ्ुन मन्शाचि संस्कृताय घडता। भास संस्कृतायेचो एक मुखेल वांटो। भाशेक लागुन मनिस, मनिस जाता आनि मनिस म्हण जियेंव्क सक्ता। भास आय्कुंचि आनि उलोंव्चि प्रक्रिया भुर्ग्याच्या घरांत सुरु जाता। उप्रांत इस्कोलाचें शिकप सुरु जातच भुर्गिं आप्लि भास वाचुंक आनि बरोंव्क शिक्तात। हांगा कर्नाटकांत कन्नड लिपि वाचुंक आनि बरोंव्क शिक्तच चडशिं भुर्गिं कन्नड लिपियेंत कोंक्णि वाच्तात आनि बरय्तात। हांगा मिसां, दोतोर्न, माग्ण्या जमाति आनि हेर जमाति कोंक्णिंत आजुन आसात। मुखार हि परिस्थिति कित्ले दीस उरत सांगुंक् जाय्ना। हांगा कन्नड लिपियेंत कित्लिशिंच पत्रां, फिर्गज पत्रां आसात। वर्साक थोडिं तरि पुस्तकां कन्नड लिपियेंत प्रकाशित जातात। कोंक्णि उलोंव्चे आनि बरोंव्चे स्पर्धे आस्तात। हांचो फाय्दो भुर्ग्यांक मेळ्ुंक जाय। भुर्ग्यांचिं देणिं आनि व्यक्तित्व विकाशित जांव्क जाय। हें जांव्क जाय जाल्यार भुर्ग्यांक आप्लि आवय भास कोंक्णि शिकोंव्चि पडतलि। भुर्ग्यांकि कोंक्णि शिकय्ल्यार हांगा कोंक्णि भाशेक बरो फुडार आसा। हांगा कोंक्णि खातिर कोणें कितें आनि कित्लें केलां ताचेर हांवें जाय्तें उलोंव्क जाता। जें कितें केलां ताचे प्रास चड कर्चें आसा। तें चड गर्जेचें। खंय्चिय भास अमर न्हय। विकासित जाल्ल्यो लातिन, संस्कृत, प्राकृत भासो लोकाच्या तोंडा वय्ल्यो गेल्यो। फुडिल नदर आप्णाव्न वाव्राचि येव्जण करिना जाल्यार क्रिस्तांवां मदिल कोंक्णि वचुंक चड वर्सां नाकात। देकुन भाशेचो, लिपियेचो, साहित्याचो आनि संस्कृतेचो फुडार दोळ्यां मुखार दवरुन जें कितें हे फुडें हांगा केनरांत करुंक जाय त्या वाव्राचो आराखडो (action plan) तुम्चे समोर आतां दवर्तां।

(अक्षरां मेळावण, बऱ्पारीत आसा तसि उरय्ल्या)

(मुकार्सुंक आसा)



# नाटक कलेचि चरित्रा


ग्लॅडिस रेगो

**नाटक कलेचो जल्म :**

ह्या भुमि वय्ल्यान आय्च्या मन्श्याक साम्य जांव्च्या मन्श्या जीविचो उगम सुमार ऐक लाख म्हळ्यार शेंबोर हजार वर्सां पुर्विं जाल्लो म्हण मानव विकास शास्त्रज्ञ सांग्तात। जाल्यारी ह्या समूदायांचे सांस्कृतिक धाख्ले जाव्येत जाल्लिं माट्या चित्रां लाबल्लिं। तीस हजार वर्सां हेव्शिन, हें गुहा-माट्या चित्रांचे विशय - समुदायांच्या आहार संग्रहाच्या चटुवटिकांक संबंध जाल्ले । मन्जातिंक शिकारि कर्च्या न्श्यांचिं, आय्दांचिं, मन्जाति आनि मन्श्यांनि तांचि शिकारि कर्न्चि रीत विवर जाव्नासात।

असल्या चित्रां भितर रंगक्रियेक पूरक पुरावे लाबल्ल्याक उदाहरण जाव्नासा फ्रान्सांत्ल्या माट्यांत लाबल्लें चित्र सुमार पंच्विस हजार वर्सां अदलें अशें आसा: ऐक मनिस चित्ळा तसल्या ऐका मन्जातिचें चाम्डें पांगुर्न, ताचे कोंब आनि मुस्काराचि कूस कवच जसें आप्ल्या वदनाक धांपुन, नृत्याच्या चलनेचे भंगि ताचि। ऐक नागरिक पूर्व रंगक्रियेंत वांटेलि जाल्ल्ये पात्रदारि तो जांव्क पुरो म्हळ्ळें चिंताप दिता।

असलिं आनिकी सबार चित्रां आजिकी अदीम जनांगांनि पळेंव्क लाब्च्या शिकारेच्या आचरणांचिं लाबल्लिं तिं, त्या काळाचि रंगक्रिया असिच असल्लि जांव्क पुरो म्हळ्ळ्याक पुरावे दितात। शिकारि कर्न आयिल्लो आदिमानव समूदाय - अप्ल्या ठिकाण्याक पाटिं येतच, आप्णे शिकारि केल्लें विधान परस्पर सांगोन दाकंव्क कसलिय भास जांव, संकेत् माध्यम तवळ जल्मोंक नातल्लें। देकुन: सग्ळ्या शिकारेचें घटन प्रत्यां पुनर नटन सृश्टि कर्न दाकंव्क पडतालें। तवळ शिकारेगारांच्या पंग्डांत्ल्या ऐक्ल्या अथवा चडितक जणांनि शिकारि केल्ल्या मन्जातिचिं चाम्डिं, शिंगां, पांगुर्न तांचे थंय ति मेल्लि मन्जात, जिवि जांव्चि पडतालि। आनि पर्त्या सग्ळो शिकारे समुदाय शिकारेगार जाव्न, शिकारेचि क्रिया अभिनय कर्तालें।

असलें चिंताप समर्थन कर्न्चिं उदाहरणा आजून, आदिमूळ वेवस्थेंत जियेंव्च्या थोड्या मूळ पंग्डांच्या जनांगांच्या आचरणांनि दिसोन येनात म्हण मानव शास्त्रज्ञांनि तांच्या संशोदनांनि, प्रवास कथनांनि, दाखल केलां। असलेंच शिकारेचें नटन थोड्या बदलावणेर आफ्रिकाच्या काफिर जनांगांत। अमेरिकाच्या पर्त्या इंडियान समुदायांनि, आस्ट्रेलियाच्या मूळ निवासिं मदें पळेंव्क मेळ्नात म्हळ्ळे धाख्ले उल्लेख जाल्यात।

**रंगभूमि उगम विशिं आन्येक सिद्धांत :**

रंगभूमि आनि धाऱ्मिक आचरणां मधें विशेश संबंध आसा करिना म्हळ्यारी, पुराणाच्या कल्पनां, कथनां, वाच्पां मुकांतर प्रचार जाल्लि मौखिक परंपरा रंग माध्यमाक मूळ म्हण अभिप्राय आसा। हि काणियो सांग्चि पद्धत मुंदऱ्सुन, पात्र वाडव्न, सन्निवेशांक विबाग्सुन, ऐकेकच रंगमाध्यमाक स्वीकार करित्त वाडलो म्हळ्ळो सिद्धांताचो अभिप्राय जाव्नासा।

पाश्चात्य परंपरेंत जल्माल्ले पयिल्ले रंगउत्सव गमनाक वेल्यार वय्ल्या दोनी सिद्दांतानि खंचोय निराकरुंक येना। क्रि.पू. 2500 वऱ्सां इत्ल्यार इजिप्टांत प्रयोग जाल्लो म्हण्तात "ओसिरिस् पुराण" ग्रीक पुराणांक संबंध आसल्लि हि कथा रंग प्रदऱ्शन जाव्न प्रयोग जातालि? वा रायांच्या मरणांचो संस्कार संदऱ्बार जांव्चि क्रियाविधि मात्र जाव्नासल्लि? म्हळ्ळे विशिं विद्वांसा मदेंय भिन्न अभिप्रायो आसल्ल्यो वाचुंक मेळ्तात।

**नाटक कलेचि बदलावण मोग आनि रूच:**

नाटक कलेचो मोग मन्श्याच्या जल्मा थाव्नंच आयिल्लो ऐक गूण म्हण्येत। ल्हान भुग्यांनि सांगाता मेळल्ल्या वेळार विविद नमुन्यांचे खेळ खेळ्चें आमि पळेलां। भुग्निं तांचे थंय उद्भव जांव्चिं भोग्णां आप्ल्या खेळांनि प्रगटतात। चिंत्पा सकत वाडल्लेबरिच, चिंत्पाचि, प्रगटनेचि रीत – मीत बदल्ता। देख्तेल्याक विज्मित कऱ्ता।

पुरातन काळाच्या दाख्ल्यांचेर आमि दीश्ट वेलि जाल्यार, मन्श्याक उलंव्क कळित नातल्लें। कसलिय संगत ऐकामेकाक सांगोंक नटनंच व्हाट। दीस् वेतां लोकान् भासेचो प्रयोग् केलो। कविंच्यो आलोचनो लोकाक प्रगटुंक नटनाचो प्रयोग् चल्तालो. तवळ् तांचें नटन् जाव्नासल्लें –नाच्चें, उडचें, हातां– पायांच्या उडकाणां सांगाता, भाषाणांनि विवऱ्सुन सांग्चें। ऐजिप्तांत, ग्रीसांत, दक्षिण दर्याच्या कुद्रयांनि (South Sea Islands) चालु आसल्लें। नाटक कला जल्माल्लो आयित्र वेळ कळित जाय्ना तरी क्रिस्त जल्मोंच्या चार हजार वऱ्सादिं ऐजिप्तांत्ल्या नैल न्हंय्च्या तडिर नाटक कला आरंभ जाल्लि म्हण संशोधक अभिप्राय दितात।

दीस वेतां वेतां शिलायुगांच्या शिकारेचे पुनर्सृश्टे तसल्यो रंग क्रिया। धाऱ्मिक क्रिया विधि जाव्न पुनर जल्म घेतात। सुऱ्वेर धाऱ्मिक तत्वां, लोकाक बूद्बाळ, मान माण्सुगि सुलभायेन शिकंव्क साध्य व्हाट जाव्नासल्ले नाटक। क्रमेण: नाटक पळेतलो। आनि नटन कऱ्तलो म्हळ्ळे दोन वांटे जाले। प्रेक्षकां थाव्न नटन कऱ्तेले भिन्न दिस्च्याक– वेशभूषणां, मुखवाडां आरंभ जालिं। ऐका काळार नटन खंय्सरी चल्तालें जाल्यार, नाटक कलेक निर्धिश्ट थळ गर्ज म्हळ्ळें कल्पन रूढिक आय्लें। पुण ऐक आमि उडासांत दवरुंक फावो नाटक – रंगक्रियेंत उजार जांव्चो प्रमुक रंगांश मुखवाड जाव्नासा। हें रंगभुंय्चा इतिहासांत पय्ल्यान पय्लें कुडसाल्लें रंगतंत्र जाव्नासा। आतांचें मेकप– वेस पिंत्राव्णि।

दुस्र्या महाझजा उप्रांत सग्ळो जर्मन देश धर्ते समान जाल्लो। कस्ताळ आनि देस्वाट सग्ळ्यान भरोन गेल्लि। गिरण्यो – खाऱ्काने मोडोन पडल्लें। रस्ते – वाहनां सार्कि नास्ताना, पोटाक खाण नास्ताना लोक वळ्वळ्तालो। जर्मन सऱ्कारान हातिं धरल्ल्या कार्याक्रमां पय्कि प्रमुक जाव्नासल्लें देशांत्ल्या नाटक घरांक (theatres) प्रत्यान उबाऱ्चिं। झजा धऱ्मान हऱ्येक्लो खऱ्शेव्न गेल्लो, ऐयसुऱ्पोण आनि निरास भग्तालो, लोकाचें चेतन उबार्न धरुंक मन – काळ्जां उर्भेंक्क, ऊंच भावनां थंय होंद्वोन, समाजे बांध रचुन हाडुंक नाटक घरां गऱ्जेचिं म्हळ्ळें। सऱ्काराक स्वस्ट कळित आसल्लें।

"आम्चो लोक चड् संख्यान बरिं– खरिं नाटकां पळेत जाल्यार, आम्च्या पिश्यांच्या आस्पत्र्यांनि –पिडेस्तांचि खेट उणि जातेलि" म्हण्ता डो। राय्क, चिकागोंत्ल्या गुडमेन नाटक घराचो धनि। नाटक घरांनि आमि पळेंव्चो दुकाळ – संग्ति – बऱ्या संग्ति थंय आम्चि मेच्वण चडंव्क आदार दितात। वस्तुं वाधांनि भऱ्लेल्या आग्च्या संसारार सभारांचिं बोग्णां –भावनां मेल्यांत। नाटकां द्वारिं मऱ्श्यांचि भावनां उस्काव्येत। तांकां चिंतुंक लाव्येत, बोगोंक कर्येत आनि जीव भर्येत। पुण! हें सर्व मनोरंजनाचे वाटेन करिजाय। चडानिचड लोकाक अकऱ्सुंचे रितिन करिजाय म्हण्तालो डो। राय्क।

**ग्रीक रंगभुमि, ग्रीसांत्ले नाटकः**

क्रि.पू. पांच्व्या शतका आदिंच ग्रीसांत नाटक – नटन आरंभ जाल्लें। ग्रीसाच्या नाटकांक आनि ऐजिप्ताच्या नाटकांक ताळ पड्ता।

**काराणः** जेद्वां ग्रीसांत्ल्या निवासिंनि ऐजिप्त गांवाक झजांत सल्वव्न जीक वेलि, तवळ ऐजिप्तगारां थंय आसल्लें बरें सर्व ते शिक्ले। हाचे पय्कि नाटक कलेचि माहेत ऐक जाव्नासा। उप्रांत ग्रीकांनि तांच्याच गांवांत नाटक कलेचि प्रगति आनि सुद्राप केलें। मुख्य जाव्न ग्रीक देश ईस्कलस, सोपोक्लेस, आनि यूरिफेडेस ह्या तेगां महा नाटकिस्तांक ऋणि जाव्नासा।

ग्रीक वीर कथेंच्या वाऱ्पा थाव्न आरंभ जाल्लि म्हणतात ति ग्रीक रंगभूमि – क्रि.पू. सात्व्या शतकाच्या आदिं थाव्न, सार्वजनिक रितिर गायान कर्चि रिवाज आसल्लि। हेंच जाव्नासा रंगभूमिचें प्रथम मेट म्हण्तात इतिहास सोद्रांगार ग्रीक पुराण कथें प्रकार। संसारांत्ल्या आनि जीवनांत्ल्या विविध विशयांचेर अधिकार आस्चो विविंगड देव आनि देवता आसात। हांचे पय्कि: फळ – बेळें दिंव्चो देव जाव्नासा डयोनीसियस। ह्या देवाक मेच्वोंचा उद्देशान जम्या गितां गांर्चि रिवाज सुरु जाल्लि। ह्या जम्या गायानां वेळार नरबलि – मऱ्श्या बलि बेटंर्चि रिवाज आसल्लि। दुख्रांत्य – दुख्राभर्ग्त सन्निवेशनांनि काबार जांव्च्या ह्या नाटकांक –जम्या गायान, संभाषण, आनि नरबलि तिनी कारणां प्रेरण जालिं।

दीस वेतां वेतां देव– देवतेंच्या नडत्या चालिचें विडंबन, या ठिका कन्चिं सन्निवेशां ह्या कार्यांनि मिस्ळालिं। हिंच फुडें सेटायर SATIRE या, व्यंग्य नाटकां जाव्न नांव जोडुंक पाव्लिं। क्रमेण: धार्न्मिक रिति-रिवाजिं–थाव्न भाग्र भिन्न हळु खुशालि प्रवृत्तेचिं कोमेडि – हास्य प्रदान नाटकां आय्लिं। क्रि.पू. पांच्व्या शतकाच्या आखेरिक दुखांत्य TRAGEDY, हास्य प्रदान COMEDY, व्यंग SATIRE, अशें तीन थरांचे नाटक प्रकार उदेले।

ह्या वेळार पुरुष मात्र नाटकांनि अबिनय कर्त्ताले। त्या काळाचे नाटक धर्न्मिक आनि अर्थिक जीवनांत सुद्राप हाडुंक सक्ताले। आरिस्तोफेनस जाव्नासल्लो ग्रीसांत्लो प्रख्यात कोमेडि बरय्णार आनि नाटकिसत। सुर्न्वेर ग्रीक रंगमंच दोंग्रा मुळांत डयोनिसियसाच्या गुडि –दिव्ळां मुकार नाटक प्रदर्शित जाताले। लाग्सार – भंर्त्तणि आसल्लि उबार – दोंग्राळ सुवात खोंडुन लोकाक बसोंक सव्लताय आसा कर्त्ताले। ह्या नाटक उत्साहांक पोंद्रा थाव्न पंच्विस हजार पर्न्यांत लोक हाजर जातालो म्हण दाख्ले कळय्तात। पंग्डाचें जम्या गायान आनि संबाशण बोंव्तोणिच्या दोंग्राळ सुवातेच्या परिसर वर्न्विं, ध्वनि वर्धकांचो आधार नास्ताना लोकाक– प्रेक्षाकांक् सुलबायेन आय्कोंक साध्य जातालें।

अर्ध वृत्ताकाराचि ग्यालरि आनि मधें साट – सत्तर फिट व्यासार वृत्ताकाराचो रंगमंच तयार करुंक आरंभ केल्लो क्रि.पू. पांच्व्या शतमाना थाव्न, ग्रीक नाटकांचि कथावस्त चडावत जाव्न राव्ळेरांक आनि रायांक संबंध आस्तालि। ग्रीक देवाळ, देवमंदिरां दिर्न्सें स्कीने म्हळ्ळें बांदाप राव्ळेराचि मुक्लि कूस म्हण दाकंव्क वापर्न्ताले। ह्याच बांदपा मुकार नाटकाचिं सर्व दृश्यां दाकंर्न्विं आसल्लिं। स्कीनेच्या मुकार वृत्ताकाराचो रंगमंच, बोंव्तिं तिनी कुशिंनि प्रेक्षकांक बसोंक– दोंग्रा सुवात खोंडुन केल्लिं मेटां। हेंच नाटक साल।

**रोमांत नाटक कला:**

ग्रीकांनि कशें ऐजिप्ताक केल्लें। तेंच रोमगारांनि ग्रीकाक केलें। आदिंच ग्रीकांच्यो रिति-रिवाज्यो आप्ल्यो करुन घेतल्ल्या रोमगारांनि क्रि.पू. 197व्या वर्न्सा ग्रीस गांवाक सल्वय्लें। ग्रीसाचो अख्खो गांव हरऐका कलेंत बोव निपुण जाव्नासल्लो। ह्या सर्व कलेंनि रोमगारांनि ग्रीकांचो पाटलाव केलो। थोड्या मट्टाक ताणि जीक आप्णाय्लि। रोमाच्या कोमेडि बरय्णारां पय्कि प्रसिद्ध प्लाय्टास क्रि.पू.254। पूण ताचिं कोमेडि नाटकां ग्रीसांत्ल्या कोमेडिंत्ल्या आदारान बरयिल्लिं जाव्नासात।

कोमेडि नाटकांनि चेरेन्स– प्लाय्टासाचो पाटलाव कर्न्ता जाल्यारी, ताचि कोमेडि चड ऊंच मट्टाचि न्हय। रोमान नाटकां पय्कि ट्रेजेडि बोव थोडिं। सेनेका रोमाचो त्या वेळाचो ट्रेजेडि बरय्णार जाव्नासल्लो। नाटक कलेंत बोव चड सुद्राप कर्न, जाय्ति वांव्ट काडल्ल्या रोमाचें क्रि.श. 476व्या वर्न्सा संपूर्ण नाश जालें। ह्या वेळार नाटक कलेचि देस्वाट जालि।

जाल्यारी थंय हांगा बेनेंदिक्त प्रादिंच्या कोवेंतांनि रोमांत्ले जाण्वायेचे आनि इतर तात्विक बूक सुरक्षित उन्ले। हांचे सांगाता रोमांत्लिं थोडिं नाटकांय उन्लिं। उप्रांत सात्व्या शतमानांत कथोलिक् पवित्र् सभा येरोपांत् बळ् जायित्त् आय्लि तेद्रा नाटक् कला अभिवृद्धेच्या मेटांनि दव्लतेन मुकास्सुंक लाग्लि। त्या काळार रोमांत जियेंन्चो लोक रान्वोट – अशिक्षि जाव्नासल्ल्यान तांकां रोमांत्लिं नाटकां नवालशीं दिसोंक लाग्लिं।

ह्या संदर्भाचो फाय्दो उटव्न, पवित्र सभेन पन्र्या सोल्ल्यांत्लिं घडितां, जेजुक्रिस्ताचें जीवन आनि मरण, नाटकां मुकांतर प्रदर्सुन, चडानि चड लोकाक कथोलिक समोडित थंय अभिरुच चडाशि केलि। ह्या मुकांतर अत्मिक, मानसिक, आनि संसारिक सुद्राप करुंक सलीस जालें। हिं नाटकां आरंभार इगर्जां भितर, आल्तारि मुळांत खेळोन दाकय्ताले। क्रमेण इगर्जे वटारांत खेळोन दाकंव्चि रिवाज चालु जालि। चडुणे ऐकाच थराचें काम कर्त्तेले जण सांगाता मेळोन, तांच्या कामाक ताळ पडचो नाटक ते प्रदर्शिताले। दाखल्याक तार्वांनि काम कर्त्तेल्यांनि नोवेच्या अर्का विशिं, खाणा खातिर मन्जातिंक मार्त्तेल्यांनि खुर्साचे खिळाव्णे विशिं, पोंद्राव्या शतमाना पर्यांत असलिं नाटकां चालु आसल्लिं।

रोमन साम्राज्याच्या काळार क्रि.श. दुस्र्या – तिस्र्या शतमानांनि चड वांटो येरोप –रोमन साम्राज्याचो अधीन भाग जाव्नासल्लो। पुण! पांच्व्या शतमान इत्ल्याक रोमन साम्राज्य् आप्लि सकत। आनि अप्लि मूट निसाव्न अस्कत जायित्त येतालि। अनागरिक जर्मन जनांगांच्या अक्रमणाक् विशेश् प्रतिभटन दाकंव्क असक्त जाव्न कुस्कात्त आयिल्लें। ह्या पतन सांगाता, रोमन साम्राज्य म्हळ्ळें नांव। पश्चिल्या कानस्टांटिनोपलाक केंद्र जाव्न कर्न घेव्न, उदेंतिच्या प्रदेशांक मात्र सिमित उन्लें।

संस्कृति आनि कला प्रकारांच्या वाडावळेच्या दृश्टेन, उत्रोंच्या सल्वोणेच्या वर्सांनि रंगभूमिक बरोच मार पडलो म्हण्येत। रोमन जनपद प्रकार जाव्नास्चे मैम कला, दोंबराट, मूळ (बुडकट्टु) जनांग तांचिं फेस्तां, वीरगाथ। उप्रांत्ल्या वर्सांनि वास्तुशिल्प –चित्रकला असले माध्यम तवळच्या चटुवटिकांक त्या काळाच्या समाज –संस्कृतिक केंद्र जाव्नास्च्या कथोलिक इगर्जेक संबंदच जाव्नासल्लो। रोमन संस्कृतेक ग्रीक संस्कृतेचि उबाराय ना। पुण ताच्याकी वर्त्ति विस्तराय जरूर आसा।

**इंग्लेंडांत नाटक कला:**

एलिजबेत रंगभूमि म्हणताना आम्कां पयिल्लें दिस्ता शेक्सस्पियराच्या नाटकांचें राज। सग्ळ्या संसाराच्या नाटक, रंगभूमि, साहित्याच्या इतिहासांत शेक्सस्पियरा तित्लो प्रसिद्ध वेक्ति दुसो ना। बेन जान्सनान सांगल्लें बरि तो ऐका काळाचो नाटककार न्हय। युगां थाव्न युगांक पाशार जाव्न उरोंक सक्च्या तसलो नाटककार जाव्नासा। नवोदय जीवन

द्रश्यानाच्यो मुख्य काणिको– मानविक दृश्टि । वेक्ति स्वतंत्र, अस्तित्वचें कल्पन, जाव्नासल्लिं शेक्सस्पियाराचिं धोरणां ।

ऐलिजाबेत रंगभूमि नव्या उदेवाचिं नविं मौल्यां रूडिर हाडुन आय्ल्यारी इटालियन आनि फ्रेंच नवो उदेव रंगभूमि प्रास मध्य युगच्या रंगभुमिक चड लाग्सिलि जाव्न दिस्ता। नवो उदेव म्हळ्ळ्याचि गड खंय्सर म्हण थोडि गुस्पड् जाल्यारी, लांबायेच्या झजां नंतर अधिकाराक आयिल्लो ट्यूडर वंशावळ स्थिर आनि निरंकुश अडळ्तें उद्घाटन कर्न दिल्लें वरस नव्या उदेवाचो आरंभ म्हण वळ्कातात। हाचे उप्रांत पन्नास वर्सांनि आट्व्या हेन्रिन रोमन कथोलिक चर्च रद्द कर्न, नवि इंग्लिश चर्च स्थापन केल्लि जाव्नासा।

शेक्सस्पियाराच्या काळाचो आन्येक प्रख्यात नाटकिस्त क्रिस्तोफर मार्वेल्लो। हाच्या नाटकां पय्कि "चेंबर्लिन" आनि "डोक्टर फैवस्टन" प्रख्यात जाव्नासल्ले। ताच्या ऐकुण्तीस वर्सांचेर ताका जिवेशिं मारल्ल्यान, हाचे थाव्न चडितक नाटक कृतियो संसाराक लाब्ल्योनांत। ह्याच काळार बेन जोन्सान कोमेडि बरंव्च्यांत प्रख्यात जाव्नासल्लो। ह्या वेळार इटेलि आनि रोमांत मास्क – MASQUE म्हण्चिं नाटकां प्रख्यात जाव्नासल्लिं। हिं नाटकां दबाजिक दिसांनि मात्र प्रदर्शिताले। ह्या नाटकांनि नाच आनि पदां चड आस्तालिं। चड दुडु खर्चुंच्या ह्या नाटकांक बेन जोन्सा नान पयिल्ले पाव्टिं इंग्लेंडांत लोकामोगाळ जाय्शें केल्लिं।

केदळा इंग्लेंडांत अंतर झज आरंभ जालें। 1642 इस्वेंत पुरितन PURITAN नांवाच्या प्रोटेस्टंटांनि नाटक प्रदर्सुंचे रद्ध करय्ले। पुण 1660 इस्वेंत स्टूवर्ट– STUART रायांनि इंग्लेंडाचो अधिकार् वय्सिलो आनि तवळ पर्तुन नाटक प्रद्रश्यानां आरंभ जालिं। ह्या वेळार बरयिल्लिं नाटकां पुरातन काळार बरयिल्ल्या तित्लिं कुतूहलभरीत नातल्लिं. दीस वेतां मन्श्याच्या सतत प्रयत्नान नाटक कला इंग्लेंडांत अभिवृद्धि जायित्त गेलि।

जशें इंग्लेंडांत नाटक कलेचें सुद्राप जाताना येरोपाच्या दुस्र्या राज्यांनि हें काम बऱ्यान चल्तालें। स्पेय्नांत लोपे-दे-वेगा-काप्रियो, आनि जर्मनिंत जोन गोते, फ्रेडरिक शिल्लर्, फ्रान्सांत वियटर ह्यूगो। हे कादंबरिकार जाल्यारी, ताचिं नाटकां सुलबायेन अनुवाद करुंक जाय्नात्लिं जाल्ल्यान, हाका जर्मनिंत मात्र मान लाब्लो ।

प्रथम सामाजिक नाटक बरयिल्लि कीर्त नोर्वेच्या हेन्रि हिब्सिनाक फावो जाता। हें नाटक पळेतच लोकाचें मन सामाजिक नाटकांचेर पिस्वालें आनि तिं नाटकां सामाजिक बरेपणाच्या दृश्टेन प्रदर्सुंचिं बरें म्हण भग्लें। अशें हेन्रिकान बरयिल्ल्या "डोल्स हौज" the Dolls House म्हळ्ळ्या सामाजिक नाटकान अमेरिकांत, इंग्लेंडांत, रष्यांत आनि फ्रान्सांत नव्यो नव्यो सामाजिक नाटकांच्यो कृतियो उब्जास्यो केल्यो।

**उदेंतिचिं नाटकां:**

ऐरोपांत अशें घडोन आस्ताना, उदेंतिंत नाटक कलेचें सुद्राप भरान जातालें। हांचें सुद्राप येरोपाच्या नाटकांचेर होंदोन नातल्लें। हें सुद्राप चीना, जपान, आनि उदेंतिच्या हेर गांवांनि जातालें। उदेंतिच्या नाटकांनि विशेस आनि मुख्य विशय जाव्नासल्लो हो। नाटक प्रदर्शिताना रंगमंच्यार कलाकार कसलेंच उपयोग्सिनातल्ले । सर्व सन्निवेशां नाटक पळेंव्च्या लोकान सम्जोन घेंव्क आसल्लि। नाटकांनि उपयोग्सुचि मुस्ताय्कि आनि वेश बदलाव्णेचो (MAKE-UP) वस्तु मोलाधिक जाव्नासल्ल्यो।

लोकान विंगड विंगड नटनांचो अर्थ ताणिंच जाव्न सम्जोन घेंव्चो, ह्या नाटकांचि आन्येक वैशिश्ट संगत जाव्नासल्लि। धाखल्याक: सत्रि उग्ति कर्न धल्यां जाल्यार – झोड – वाऱ्याचें सन्निवेश। हातांत चाबुक घेव्न धावो पांय उकल्न धर्न राव्ल्यार – घोड्यार सवारि कर्चें, ऐक मनिस बाव्टो काणेव्न राव्ल्यार –ऐक हजार सय्निकांचें ऐक सय्न आसा। अशें पुरा अर्थ कर्न जाणा जांव्क जाय आसल्लें। संगीत नाच ह्या नाटकांनि चड मापान वापर्ताले।

विविद रंगां मारिफात विविद पात्र जाणा जांव्क आसल्लें। देंव्चाराचो पात्र कर्तलो तोंडाक पाच्वो रंग, आंजाचो पात्र बांगाराचो रंग, अशें तांच्या तोंडाक रंग सारय्ताले। स्त्रीयांचो पात्र दादलेंच नटन कर्ताले।"मेयि-हान-फेंग" 1894-1944 स्त्रीयांचो पात्र नटन कर्च्यांत प्रख्यात जाव्नास्लो। उदेंतिंत्ल्या नाटकांचो कथा सारांश बोव चड पुरातन घडितांचो जाव्नास्तालो। चीनांत आनि जपानांत नाटकां प्रदर्सुंचि रीत ऐकच जाव्नासल्लि। जपानाचिं अधुनिक नाटकां, येरोपाच्या रितिचिं आनि संगीत आसल्ल्यो कोमेडि जाव्नासात।

आयरलेंडाचे संगीत तज्ञ आनि बरय्णार सांगाता मेळोन डब्लिनांत आसा केल्ल्या नाटक संघान बारिच प्रसिद्धि देख्लि । विल्लियम बटलर ईटस, लेडि ग्रेगरि, जोन मिल्लिंग्टान, आनि लोर्ड डनसेनि हाणि। संगीतान भर्लेलिं, नाटकां बरंव्क धर्लिं। ह्या नाटकांक ओपेरा (OPERA) या ओपरेट्टा (OPERIT) म्हण वल्कोंक लाग्ले। ह्या नाटकांनि संगीताक मुख्य स्थान, सग्ळो नाटक केवल पदां मुकांतर् नटन कर्च्याक ओपेरा म्हणतात जाल्यार, मदें मदें थोडें संभाशण आसोन, संगीता मुकांत्र नटन कर्च्याक ओपेरेट्टा म्हणतात। असलिं नाटकां तवळच्या लोकाक बरिं रुच्लिं. पुण! हिं नाटकां– नटन करुंक सबार कश्ट आसात। आप्रूपान मात्र तिं रंगमंचार हाड्येत जाल्लिं।

पय्ल्या महाझजाच्या काळार नाटक कलेचो प्रसार उणो जाल्लो जाल्यारी लडाय संप्पच पुनर्जिवित जालो । ह्या आव्देंत बर्गयिल्लि नाटकां लडायेच्या विशयाचेरच आस्तालिं। वर्सां पाशार जाताना, इस्कोलांनि नाटक शिकंव्चि पद्धत रूढ जालि। हि पद्धत जोर्ज बेकर म्हळ्ळ्यान पय्लि– HARVARD युनिवर्सिटिंत आरंभ केल्लि। उप्रांत नाटक कला कोलेजिंनि शिकंव्चो ऐक विशय जालो। अशें नाटक कला कोलेजिंनि शिकंव्च्या विशयां पय्कि ऐक

जालि। सिनेमा मुकांतर नाटक प्रद्रश्यानां चालु जालिं। सुन्वेर स्तब्ध पिंतुरां आसल्लिं। क्रमेण चल्चिं पिंतुरां आय्लिं। रेडियो मुकांत्र नाटकां आय्कोंक लाग्लि।

**भारतांत नाटक कला:**

नाटक, साहित्य, अभिनय, रंगतंत्रां, अशें सग्ळे अंग वाडव्न, संघटित माध्यमाक मात्र आमि रंगभूमि म्हण्येत जाल्यार, तसलि रंगभूमि जल्माल्लि – अस्तित्वाक आयिल्लि बोव तडव कर्न, पुण! रंगभुमिच्या विशाल व्याप्तिंत प्रदर्श्यक आनि प्रेक्षक हांचे मध्लें संवहनाचि प्रक्रिया म्हण अर्थ कर्न घेंन्चें जाल्यार, हाका लग्ति जांन्चे सबार रितिंचि रंगक्रिया नागरिक पूर्व समूदायांनि अस्तित्वार आसल्लि।

प्राचीन भारताचि रंगभूमि दोन प्रमुख विभागांनि वळ्कोव्येत। काळ बदल्तां बदल्ताना, रंग्परंपरा मुक्ल्या नागरिकतेक आनि प्रतिशिस्ट समाजेक वऱ्गोंचेबरि सुसंस्कृतायेन वाडव्न हाडिलि । भारतांत्ल्या नाटकांचें मूळ काराण – येरोपांत्ल्या नाटक कलेचि क्रांति म्हण्तेले शास्त्रज्ञ आस्ल्यारी, हांचें शोदन क्रि.श. 200 वऱ्सां इशिलें मात्र म्हण्येत। क्रि.पू. चोव्त्या शतमानांत मौर्य साम्राज्य निर्माण जांन्च्या सांगाताच, भारताच्या इतिहासांत निर्णायक युग आरंभ जाल्ल्या आव्देंत, केंद्रिकरणाचिं कल्पनां राजकीय, समाजिक आनि आर्थिक वेवस्तेंत साध्य जाल्लिं, वेपराक गऱ्जेचिं, तुक्चिं, मेज्चिं, न्याय-धर्माचि वेवस्था रूप घेतानांच, संस्कृत रंग्भुमिचें ऐक वेवस्थित संघटन जाल्लें म्हणतात संशोदन केल्ले पाश्चात्य विद्वांस।

संस्कृताचो पयिल्लो नाटककार "भास" आनि उप्रांत्लो "काळिदास" भासाच्या नाटकांनि ताणे विंचल्लो विशय निर्वहण केल्लि रीत कुटमा केंद्रित मनोधर्म आनि सामाजिक वेवहार दाकय्ता जाल्यार, तो खंच्या काळार जियेल्लो म्हळ्ळ्याक साऱ्के दाख्ले नांत। जाल्यारी तवळच ताणे नाटकांनि मोगाच्यो प्रसिद्ध कथा विण्लेल्यो।. महाभारताच्या कौरव– पांडवांच्या कुटुंबिक– सामाजिक वेवहाराच्या हाल– चालिचेर मांडोन हाडलेल्यो कथा नाटक ताचे। जाल्यारी महाभारतांत्ल्या झग्ड्या– लडायेक प्रचोधित कऱ्चे तसले न्हय, बोव चड शांत रितिर, समाधानान, रग्ळे झजां, कच्चाट तिऱ्सोंचें साधन तांतुन आसल्लें।

उदारण जाव्न ताचो लान्सो नाटक "ऊरुभंग" ताचि सरळता – साधेपण, मटव्यान तरी संक्षिप्त थरान, लोकान मानुन घेंन्चे बरि, कुरुक्षेत्राच्या झजाचि कथा सांग्ता "ऊरुभंग" दायटो नाटक। भास च्या उप्रांत भारताचो इतिहास साम्राज्य स्थापनेंच्या आव्लेशां तिशिन माल्वोन वाडत्त गेलो। क्रि.श. चोव्त्या शतमानांत मौर्यांच्या आनि गुप्त साम्राज्यांच्या राज्वोटकेंत ऐक नवि भऱ्ति। संस्कृति आनि चिंत्पाक शास्त्रिय वृत्त रूपित करित्त गेलि। आनि ह्या बदलोन येंन्च्या काळांत काव्यां, कादंबरि, नाटकां,

सुद्रोन येतात। ज्योतिश्य, जुगार, वेश्यावृत्ति पर्यंत सग्ळ्यांत ऐक गण्य अबिरुच ह्या गण्य संस्कृतेच्या गण्य वर्गान स्थापित केलि। ह्या गण्य अभिरुचिचें ऐक मुख – तोंड जाव्नासा शास्त्रीय संस्कृत रंगभूमि।

ऐक मात्र आमि उडासांत दवरुंक फावो। त्या काळाचो गण्य वर्ग रंगभूमिंत नटन कच्च्या, वांटेलि जांन्च्या नटनटिं थंय बरो अभिप्राय दवर्न घेव्न नातल्लो । तवळच रंगभूमि माध्यम म्हळ्यार कशें आस्थानांनि, सभा समारंभांनि, तशेंच धाम्मिक उत्सवांनि जात्र्यांनि रंग प्रद्रश्यान ऐक मुख्य भाग जाव्नासल्लो ।

भारताचो खंचोय इतिहासिक संप्रदायिक रंगप्रकार घेत्ल्यारी, तो खंच्च्या शतमानांत रूपित जाल्लो म्हण खरोखर सांगोंक कश्ट, क्रि.श. धा, वा, पोंद्राव्या शतमानांतच भारत्दाद्यंत् सबार नाटक चटुवटिको, जानपद रंग शाखे, उद्भव जाल्ले । आनि खळनास्ताना नाटक प्रद्रश्यानां दित्त, असंख्यात रंगप्रकारांक जल्म दिल्यात।

भारतांत्लिं आरंभिक नाटकां संस्कृत भाशेन आसल्लि तिं सामान्य लोकांक सम्जानात्लिं. तशें तांकां तिं रुचानातल्लि क्रि.श. पांच्व्या शतमानांत जियेल्ल्यो काळिदास भारतांत्लो प्रख्यात नाटक बरय्णार – नट जाल्यारी ताचो नाटक "शकुंतला" इंग्लिशाक भाशांतर जाल्ल्यान तो आनि ताचो नाटक होग्ळिकेक पात्र जाल्ले। म्हळ्ळें हांगासर विस्रोंचें न्हय, "रत्नावळि" "विक्रम आनि ऊर्वसि" ऐरोपांत प्रसिद्देक पावल्ले पय्कि थोडे जाल्यार, आट्व्या शतमानांत हिंदू धर्माचे सोभित्त ग्रंथ "भवभूति"न घडल्यात। तांचे पय्कि ऐक जाव्नासा रामायण। काळिदासाचिं नाटकां चडकर्न काव्यालहरि खातिर प्रख्यात जाल्लिं। पुण! रामायणंत काव्या लहरि ना तरी हिं नाटकां श्रेश्ट जाव्नासात।

दक्षिणांत रूपित जाल्ल्या शास्त्रिय संस्कृतेचें मुख्य वैशिश्ट म्हळ्यार ति आर्या आनि ड्राविड गुणांक भरुन घेतल्लि जिरयिल्लि मादरि जाव्नासल्लि। तशेंच दक्षिण भारतान नाटक रंगाच्च्यो विविद मादरि गज्जे भार्य स्वीकार करिनास्ताना काळाक आनि आम्च्या देशाक होंद्रोंच्या परिं रूपांतर कर्न घेत्ल्यो। उत्तर भारतांत प्रादेशिक् भास–संस्कृति अबिवृद्धि जांन्च्यादिंच दक्षिणांत तमिळ्आनि कन्नड पूर्ण विकास जाव्न, शास्त्रिय साहित्याक उत्पन्न करुंक आरंभ जाल्लो । मलेयाळि – तेलुगु बासोंय ह्याच विशालतेंत आसल्ल्यो। ह्यो नव्यो भासो तरी उत्तरभारता थाव्न आयिल्ल्या संस्कृत आनि प्राकृत सांगाता दिंव्चो – घेंव्चो वेवहार चलव्न, आर्या– ड्राविड भन्सोणेच्या प्रक्रियेक आदार जाल्यो।

केदळा संस्कृत रंगभूमिचि अवनति जायित्त आयिल्लि । तवळ हांत्ले नीच प्रकार, प्रतिशिस्ट नातल्ले प्रकार, रंगमंच्याक येव्न, प्रतिश्टित प्रकार दंवात्त आय्ले। उप्रांत्ल्या बय्यांनि नाटक प्रकरणां तर्सलि प्रतिश्टित कला-प्रकार देंवात्त आय्ले। पर्न्या काळाचें उदारण म्हळ्ळ्या इत्ल्या लहान मनान प्रस्तापित केल्ले वाचुंक लाब्तात।

चोव्दाव्या शतमाना उप्रांत मुस्लिमांनि भारताचेर अक्रमण कर्न अधिकार चलंव्क आरंभ केल्ले तवळ थाव्न नाटक कलेचि अबिवृद्धि बंद पडात्त गेलि। विसाव्या शतमाना पर्यांत ति बंधच उन्लि। थंय हांगा थोडें प्रयतन चल्लां जाल्यारी, प्रख्यात कृतियो रचित जाल्योनांत। विसाव्या शतमानाचे सुर्वेर रवींद्रनाथ ठागोर हाणे बरयिल्ल्या सुंदर नाटकां मुकांतर् भारतांत नाटक कला पुनर्जीवित जाल्या म्हण धय्रान सांग्येत। भारतीय रंगभूमि हेरदेशांच्या रंगभूमि बरिच हळ्ळ्यांनि – ग्राम्य कला जाव्न उदेव्न आयिल्लि , क्रमेण तांतुन परिवर्तन जालें। आतांच्या विविध कला रुपां बरि क्रमबद्द बांदावळ मेळ्ळि। त्या दृश्टेन पळेल्यार भारतीय रंग भूमि ग्रीक रंगभूमि इत्लिच प्राचीन जाव्नासा म्हळ्ळें रुज्वात्यां मुकांतर कळोन आय्ला।

(येंन्च्या अंख्यांत **कोंकणि रंगभूमि आनि नाटक कला**)



# कोंक्णि भाशेंत नपुंसक लिंग:

## स्त्रीसूचक नामपदां आनि नपुसंक लिंग अन्वय

जन्म 1937 इस्वेंत। मद्रास क्रिश्चन कोलेजिंत बि.ऐ., 1957 इस्वेंत। बनारस हिंदु विश्वाविद्यालयांत एम.ऐ., 1960 इस्वेंत। विशय हिंदि साहित्य। इथका, न्यूयोर्कांतल्ले कोर्नेल युनिवर्सिटिंत पि.एच.डि., 1971 इस्वेंत। विशय, भाशा विज्ञान। कार्कळ श्री भुवनेंद्र कोलेजिंत दोन वर्सां आनि पणजे, गोंयां, धेंपे कोलेजिंत दोन वर्सां हिंदि लेक्चरर। अमेरिकांत पच्चीस वर्सां (1995 पर्यांत) भाशा विज्ञानाचो प्रोफेसर। कोंक्णि भाशे विशिं आनि दुस्र्या भाशा विज्ञानाच्या विशयांचेर बरप। आता आम्चे मैसूरांत। विश्णुदास शामाचें महाभारत आनि दियागु रिबेरान 1626 इस्वेंत तयार केल्लो कोंक्णि – पुर्तुगेज शब्दकोश, ह्या दोन प्राचीन कोंक्णि ग्रंथांचें अध्ययन आनि संपादन करित आसा।



दो। रोकि मिरांद

हांव साश्टिंत म्हज्या ऐक्ल्या इश्टाक मेळोंक गेल्लों। थंय ताचें पांच वर्सांचें चेडुं आय्लें, आप्ले यलासिचि फोटो घेव्न। तांतु आप्णाक दाकव्न तें म्हणालें, 'हि हांव'। हें आय्कोन 'हि खंचि म्हातारि' म्हणनाकात। आम्च्या (कर्नाटकाच्या) करावळिच्या जिल्ल्यांत्लें सारस्वत चेडुं जाल्यारी त्या साश्टिच्या चेडवा बरिच उलय्तें। त्या साश्टिच्या चेडवाचें कुटम् जातिन बामोण म्हण सांगिजे पडता। कित्याक थंच्या हेर क्रिस्तांव लोकामधें कोणी पांच वर्सांचें चेडुं असले परिस्थितिंत 'हि हांव' म्हण्तें नां, 'हें हांव' म्हण्तें। गोंय्चें हिंदु चेडुंय, ताचि जात कसलिय जांव, 'हें हांव'च म्हण्तें। बार्देस्चें या कर्नाटक करावळिच्या जिल्ल्यांत्लें क्रिस्तांव चेडुं जाल्यारी तशेंच।

कर्नाटकाचे सारस्वत आदिं साश्टिचे। साश्टिच्या बामोण क्रिस्तांवांचें आनि कर्नाटकाच्या सारस्वतांचें मुळ ऐकच। आदले साश्टिचे ब्राह्मण हांचे पुर्वज। ह्या वर्विं ह्या दोन वर्गांचि कोंक्णि भास जाय्त्या संगतिनिं ऐकच थर आसा आनि दुस्र्या लोकान उलंव्चे कोंक्णि भाशे थाव्न विंगड दिस्ता। इत्लेंच न्हय, प्राचीन कोंक्णिक सर केल्यार, ह्या दोन वर्गांचे कोंक्णि भाशेंत कोंक्णिचें आदलें रुप जाय्त्या संगतिनिं तशेंच उर्लां, बदलोंक ना, म्हण् आम्कां कळोन येता।

ऐका कालार कोंक्णि भाशेंत सक्कड स्त्रीसूचक नामपदां स्त्रीलिंग आसल्लिं। पुण उभयसूचक (म्हळ्यार पुरुषांकी स्त्रियांकी लागु जांव्चिं तसलिं) नामपदां नपुंसक आसल्लिं। देकिक 'बाळ्शें' या 'वासुं'।

मागिर कितें जालें ऐका उभयसूचक नामपदाचो अथ् बदल्लो : 'चेडुं' (प्राचिन रुप 'चेड्डुं'), ह्या नामपदाचो अर्थ आदिं भुर्गें आसल्लो तो मागिर 'चलि' जालो। पुण ह्या नामपदाचें लिंग बदलोंक नां, नपुंसकच उर्लें। साश्टिच्या ब्राह्मणांचे भाशेंत मात्र हि बदलावण जांव्क नां। तांच्या वंशजांचे, कर्नाटकाच्या सारस्वतांचे, भाशेंत 'चेड्डुं' ह्याच प्राचिन रुपा थाव्न आयिल्ल्या 'चेन्डुं' सब्दाचो अर्थ आतांयीं 'भुर्गें'चः चेडो भुर्गो या चेडुं भुर्गें।

'चेडुं' ह्या सब्दाच्या अर्थान धरल्लि वाट 'भुर्गें' असो अर्थ आसल्ल्या दुस्र्या थोड्या सब्दानिंय धल्र्या। तांतु ऐक सब्द 'भुर्गें'च। आन्येक इंग्लिश भाशे थाव्न आयिल्लो सब्द् 'बेबि'। ऐक्लें ल्हान बेबि आयिल्लें' म्हळ्यार 'ऐक्लें ल्हान भुर्गें आयिल्ले' या 'ऐक्लें ल्हान चेडुं आयिल्लें' म्हण जाता। 'ऐक्लो ल्हान बेबि आयिल्लो ' म्हण कोणी म्हणत जाल्यार 'हो खंय थाव्न आय्ला आबा' म्हण्तित। पुण ऐका कालार चेड्या भुर्ग्यांकिय 'बेबि' म्हणताले जाव्क जाय। ना जाल्यार चेड्या भुर्ग्यांक 'बेबि' म्हण नांव खंय थाव्न येंव्चें? म्हज्या शेजारा दोग जण 'बेबि' आसल्ले । भुर्ग्यापणार तांकां अपुर्बायेन 'बेबि' म्हणताले जांव्क जाय। आतां ते दोगी सल्र्यात। पुण तांकां म्हातारे जाव्न मर्ता म्हणसरी 'बेबि'च म्हण आपय्ताले।

'चेडुं' ह्या सब्दाचें आदलें रुप 'चेड्डुं' म्हण ह्या पय्लें सांग्लां। कोंक्णिच्या सक्कड बोलिनिं 'चेड्डुं' सब्दांत ध्वनिपरिवर्तन जालां। कर्नाटकाच्या सारस्वतांच्या बोलिंत ह्या सब्दांत वर्णव्यत्यय (metathesis) जाल्लो दिस्ताः dr>rd। कोंक्णिंत असलो वर्णव्यत्यय दुस्र्या सब्दानिं पळेंव्क् मेळनां. पुण् मराटि भाशेच्या ऐका सब्दांत् हो दिश्टि पड्ता. आल्फ्रेड् मास्टर हाणें 1964 इस्वेंत बरयिल्ल्या A grammer of old Marathi म्हळ्ळ्या पुस्तकांत सांग्लां, मराटि भाशेंत 'किड्डुं' हो सब्द वर्णव्यत्यय जाल्ल्यान 'किर्डुं' जाला म्हण। ह्या सब्दाचो अर्थ 'जिव्दाळ'। कोंक्णि भाशेच्या चडावत बोलिनिं 'चेड्डुं' ह्या सब्दांत व्यंजनलोप जाल्लो दिस्ताः चेड्डुं > चेडुं।

1626 इस्वेंत तयार केल्ल्या आप्ल्या कोंक्णि – पुर्तुगेज शब्दकोशांत दियोग रिबेय्रान 'चेन्डुं' हो सब्द दिला। ताचो अर्थ ताणें दिला, 'ल्हान चेडो या चेडुं' (पुर्तुगेज भाशेंत, menino ou menina pequena). 'चेडुं' हो सब्दयि त्या शब्दकोशांत मेळ्ता। हाचो अर्थ असो दिला, 'भुर्गें, धुव' (पुर्तुगेज भाशेंत्, menina, filha)। 'चेड्डुं' हें रुप आसा तशें कोंक्णिचे खंचेयि बोलिंत मेळना जाल्यारी मराटिंत मेळ्ता। दातेन 1932-38 इस्वेंत तयार केल्ल्या महाराष्ट्र शब्दकोशांत 'चेड', 'चेडुं', 'चेड्डुं' हिं कोंकण प्रदेशाचिं (रत्नागिरिचिं) मराटि रुपां म्हण दिल्यांत। हांचो अर्थ दिला, 'भुर्गें' (मराटिंत 'मुल')। 'रुं' हो प्रत्यय जाय्त्या मराटि आनि कोंक्णि उभयसूचक नामपदानिं मेळ्ताः 'लेंक्रुं', 'नात्रुं', 'पण्टुं', 'गोरुं', 'वास्रुं'।

राल्फ टर्नर 1966 इस्वेंत बरयिल्ल्या आप्ल्या A Comparative Dictionary of the Indo-Aryan Languages म्हळ्ळ्या शब्दकोशांत 'चेडुं' आनि 'चेर्डुं' ह्या दोनीं उत्रांचि व्युत्पत्ति प्राचीन् भारतीय् आर्य 'चेटरूपम्' ह्या उत्रा थाव्न म्हण सांग्ता। संस्कृत भाशेंत 'चेटरूपम' मेळानां। पुण 'चेट' मेळ्ता। 'रूपम' हो प्रत्यय दुसेकडे मेळ्ता। संस्कृत भाशेंत 'चेट' ह्या सब्दाचो अर्थ 'चाकोर'। प्राकृत भाशेंत हाचें रुप 'चेड' जाता। अर्थ 'चेडो' या 'चाकोर'।

'चेडुं' हें स्त्रीसूचक नामपद जालें म्हण्तच हाचो प्रभाव दुस्र्या स्त्रीसूचक्नामपदांचेरी पडला। देकिक्, 'धुव', 'भय्ण', 'सुन' असलिं स्त्रीसूचक नामपदांयिं नपुंसक लिंगाचो अन्वय (agreement) दाकंव्क लाग्ल्यांत। देकिक, 'धुव गेलें, आतां भय्ण आय्लां।' भाषा विज्ञानांत हाका 'सादृश्य प्रतिरूप' (analogy या analogical remodelling) म्हण्तात।

स्त्रीसूचक सर्वनामांचेरी हो प्रभाव पडला। ऐक पांच वर्सांचे कर्नाटकाचें क्रिस्तांव चेडुं 'हें हांव' म्हण्ताना तोच नपुंसक लिंगाचो अन्वय थंय पळेंव्क मेळ्ता। धुवे या भय्णिकडे उलय्ताना या तांचे विशांत उलय्ताना आमि म्हण्तांव, 'तुं खंय गेल्लेंय', 'तें खंय गेल्लें'?

'चेडुं' ह्या सब्दाचो अर्थ बदलोंक नातल्ल्या बोलिनिं स्त्रीसूचक नामपदांचेर आनि सर्वनामांचेर असलो प्रभाव येंव्क साध्य ना। देकुन साश्टिच्या ब्राह्मणांचे भाशे थाव्न् आयिल्ल्या बोलिंनि स्त्रीसूचक नामपदां आनि सर्वनामां सांगाता असलो नपुंसक लिंगाचो अन्वय मेळाना। आतां तें साश्टिचें पांच वर्सांचें चेडुं 'हि हांव' कित्या म्हण्ता म्हण कळ्ळेंमु?

कर्नाटक क्रिस्तांव बोलिंत आमि 'तुं खंय गेल्लेंय' म्हण्येत आनि 'तुं खंय गेल्लिय' अशेंय म्हण्येत। पुण आमि 'तुं खंय गेल्लेंय' म्हण्चें केदाळा आनि 'तुं खंय गेल्लिय' म्हण्चें केदाळा? भय्णिंकडे, वळ्किच्या दुस्र्या चेड्वांकडे उलय्ताना आमिं 'तुं खंय गेल्लेंय?' म्हण्तांव। तिं ल्हानां जाव्येत या चडुणें आम्चे प्रायेचिं जाव्येत। थोडिं जणां व्हडले भय्णिकडे उलय्ताना नांवान आपय्नांत, 'बाये' म्हण्तात। पुण 'बाये, तुं खंय गेल्लेंय' म्हणोंक कांय अडकळ ना। जाल्यारी आप्ले आवयूकडे या आजेंकडे या तांचे तक्लेच्या दुस्र्या बाय्ल मन्शांकडेन उलय्ताना 'तुं खंय गेल्लेंय' म्हणोंक जाय्ना।

तर्नाट्या चेडवांकडे उलय्ताना नपुंसक लिंगाचो अन्वय आनि प्रायेच्या बाय्ल मन्शां कडेन उलय्ताना स्त्रीलिंगाचो अन्वय सार्को म्हणोंक जाय्ना। ऐयिल बाय्ल मनिस कोणाचि आवय या आजि जांव, किल्लिय म्हातारि जांव, पुण तिचे भाव आनि भय्णि, भुर्गेपणाचे सांगाति आनि सांगातिणि, तिचे कडे उलय्ताना 'तुं खंय गेल्लेंय गो' म्हण्तित जाल्यार कांय अडकळ ना।

प्रायेचेंच न्हय, मन्शाच्या स्थानामानाचेंय गुमान आसोंक जाय। दुदकार्निक आनि दार्क्तेर्निक प्राय ऐकच जाव्येत, दोगी आप्ले प्राम ल्हान जाव्येत। पुण ल्हान थाव्न तांचि

वळोक नातल्ल्यानिं ऐक्लेक 'तुं कशें आसाय' म्हळ्यारी दुस्रेक 'तुं कशि आसाय' म्हण्चें पडता।

आतां हो वाक्य पळ्या:

व्हडिल भय्ण आय्लें।

हांगा नामपदा पय्लें येंञ्चें विशेषण स्त्रीलिंग अन्वय दाकय्ता। पुण मागिर आयिल्लें क्रियापद नपुंसक अन्वय दाकय्ता। तरी व्याकरणिक दृष्टिन हो वाक्य चुक न्हंय। हांगा कसलो व्याकरणिक नियम लागु जाता ?

फुडे दिल्ले वाक्य पळ्या:

1. ताचि भय्ण व्हडलें।

2. ताचि व्हडिल भय्ण आय्लें।

3. हें व्हडिल भय्ण।

ह्या वाक्यांनि आम्कां 'भय्ण' ह्या नामपदा पय्लें येंञ्च्या विशेषणांनिं मात्र स्त्रीलिंग अन्वय पळेंव्क मेळ्ता, दुस्र्या सक्कड् सब्दानिं नपुंसक अन्वय मेळ्ता। 'ताचि' आनि 'व्हडिल' हिं विशेषण रुपां 'भय्ण' ह्या नामपदा पय्लिं येतात। 'व्हडलें' विशेषण रुप व्हय पुण नामपदा नंतर येता। 'हें' नामपदा पय्लें येता पुण तें विशेषण न्हंय, सर्वनाम। 'आय्लें' हें क्रियापद आनि नामपदा उप्रांत येता।

असलो अन्वय कोंक्णिंत मात्र न्हंय, दुस्र्या भासानिंय मेळ्ता। फ्रेंच भाशेंत 'ज्यां' (gens) म्हळ्यार 'लोक'। हें नामपद आदिं स्त्रीलिंग, पुण मागिर पुल्लिंग-शें जालां। हांगायि कोंक्णिंत मेळ्ता तसलो आंशिक (partial) अन्वय पळेंव्क मेळ्ता आनि हांगायि तिंच व्याकरणिक् नियामां लागु जातात्. नामपदा पय्लें येंञ्च्या विशेषणांत् मातृर् पय्लेंचो स्त्रीलिंग अन्वय् मेळ्ता, दुस्रेकडे पुल्लिंग अन्वय मेळ्ता। नामपदा उप्रांत् येंञ्च्या विशेषणांत्यि पुल्लिंग अन्वय मेळ्ता। हें ओटो येस्पर्सन हाणें 1922 इस्वेंत बरयिल्ल्या आप्ल्या language म्हळ्ळ्या पुस्तकांत दाकोव्न दिलां (पान् संख्या 347)।

हावें म्हज्या 90 वर्सांचे आकय्कडे विचार्लें, 'तुं फोटोंत आप्णाक दाकोव्न कितें म्हण्ताय' 'हें हांव' म्हण्ताय या 'हि हांव' म्हण्ताय?' ति म्हणालि 'हि हांव' म्हण्तां' म्हण। तिचे सत्तर वर्सांचे धुवेकडे तेंच सवाल विचार्लें। ति म्हणालि, 'हें हांव' म्हण्ता' म्हण। पुण तेंच सवाल आनि दोन कडे विचारल्या वेळार म्हाका जाप मेळ्ळि, 'ल्हान भुर्ग्यां कडे उलय्ताना 'हि हांव' म्हण्चें, पुण आप्ल्या प्रायेच्यांकडे या व्हडां कडे उलय्ताना 'हें हांव' म्हण्चें' म्हण।

कर्नाटक क्रिस्तांव बोलिंत कोणी स्त्री म्हण्ता, 'हांव गेल्लिं'। कित्ल्या ल्हान प्रायेचें चेडुं जाल्यारी 'हांव गेल्लें' म्हणना, 'हांव गेल्लिं'च म्हण्ता। पुण गोयांत थोडेकडे 'हांव गेल्लें'

मात्र आय्कोंक मेळ्ता। गोंय्च्या सारस्वतांचे भाशेंत 'हांव् गेल्लें' आनि 'हांव गेल्लिं' हिं दोनी रुपां आय्कोंक् मेळ्तात। पुण 'हांव गेल्लें' म्हण्चे केदाळा आनि 'हांव गेल्लिं' म्हण्चें केदाळा? हांवें गोंयांत कोंक्णि भाशेच्या ऐक्ल्या जांट्या विद्वानाकडे हें सवाल विचार्लें। तो म्हणालो, 'हें सवाल म्हजेकडे विचार्नाका। म्हजे घर्कार्नि कडे विचार या म्हजे धुवे कडे विचार।' तित्ल्यार ताचि धुव् भाय्र आय्लि। तिणे तक्षण जाप दिलि, 'हांव ल्हान भुर्ग्यां कडे उलय्तानां या कामाच्या चेड्राकडे उलय्ताना 'हांव गेल्लिं' म्हण्तां, पुण म्हज्या आवय-बापाय कडे या कोणायि प्राय्वंता कडे उलय्ताना 'हांव गेल्लें' म्हण्तां' म्हण।

**निष्कर्ष:** सक्कड कोंक्णि उलय्तल्यांक, सक्कड कोंक्णि बोलिंक ऐकच नियम लागु जाय्नां। देकिक्, थोड्या लोकाच्या कोंक्णि भाशेंत (साश्टिच्या बामोण क्रिस्तांवांचे आनि कर्नाटकाच्या सारस्वतांचे भाशेंत) 'हें हांव' आनि 'हांव गेल्लें' म्हणोंकच जाय्ना, 'हि हांव' आनि 'हांव गेल्लिं'च म्हण्चें पडता। कर्नाटकाच्या क्रिस्तांवांचे कोंक्णि भाशेंत 'हि हांव' आनि 'हें हांव' हिं दोनीं रुपां मेळ्तात्, पुण् 'हांव् गेल्लें' म्हणोंक् जाय्नां, 'हांव गेल्लिं'च म्हण्चें पडता। गोंय्च्या सारस्वतांचे कोंक्णि भाशेंत 'हें हांव' आनि 'हि हांव', 'हांव गेल्लें' आनि 'हांव गेल्लिं' हिं सग्ळिं रुपां मेळ्तात। अशें कोंक्णिच्या वेग्ळ्या-- वेग्ळ्या बोलिनिं ह्या विशांत् वेग्ळे - वेग्ळे नियम आसात। कोंक्णिच्या सक्कड बोलिंचि खबर हांगा दिंव्क साध्य नां। खंचेय बोलिंत स्त्रियेच्यान 'हें हांव' या 'हि हांव' म्हण्येत जाल्यार, 'हांव गेल्लें' या 'हांव गेल्लिं' म्हण्येत जाल्यार, तें ति कोणाकडे उलय्तागि ताच्या स्थाना-माना प्रमाणें म्हण सम्जोन घेंव्चें।

(अक्षरां मेळावण, बऱ्पारीत आसा तसि उरय्ल्या)



# रांदपा कूड आनि साहेत भाग - 5

## रांदपा कुडांत्लि साहेत आनि क्रिया संबंध दोड्या अर्थाचिं उत्रां

- ग्लेडिस रेगो

1. अड्डादिड्डि – वांक्ड्या – तिंक्ड्या थरान
2. अन ना – पोटाक कांय ना, वचना। घेना। निराळ आसा।
3. अन उदाक दिना – काम केल्या शिवाय पोटाक कांयच दिना।
4. अन उदाक आपडना – घरांत कांयच खाय्ना, पुरा होटेलांत।
5. आलोपालो खा – कितें तरी खाव्न वांच, रान्वोटि जाव्न जिये।
6. आसुडन काड –विंच्नार, गऱ्जेचें मात्र विंच। वासुडन काड.
7. आकासाक निसण दवर –असाध्य कामाक हात घाल
8. आंव्कार कडि – मास, मास्ळि ,वा तऱ्कारि घालुंक नातल्लि
9. आंब्बाट – घडपां, फटिकऱ्यो खब्रो
10. आंब्बाडे गळय् – रड, दुकां गळय
11. जेव्न खाव्न – पोट भरोन, भुख नास्तां
12. मीट मिऱ्सांग लाय – ल्हान चुकि व्हड कर
13. मांद्रि घाल – रावोन रावोन, सव्कास, जेमेव्न, जाय्गि – नाका म्हण
14. हुनार हुन – वेग्गिं, वेळार, पावोत्या संदऱ्बार
15. मीट – घटाय, रूच, सत, आदार
16. मीट आस्ल्यार मिऱ्सांग ना – ऐक आस्ल्यार ऐक ना
17. मीट आनि खोलो घेव्न रात्ता – काराण सोदता, तयार आसा
18. मीट तुका – केर करिना, गुमान करिना
19. मीट काड् – लागूल्लो सुटय, बूध शिकय
20. मीट खेलां – ऱ्हुणांत आसा, रिणांत आसा
21. मीट जा – उप्काराचो, गर्जेचो
22. मीट खेल्लो उदाक पियेता – वाय्टाचो फळ, केल्लें खाता
23. मीट झडय्तां – बूध शिकय्तां, चराब जिरय्तां

24. मीट घाल– फळाभरीत कर, रुचिक कर
25. मीट घाल– उत्तेजित कर, फुलय
26. मीट घालन लेंव– पुजा कर, तुजेच लागिं दवर, खा
27. मीट घालिनातल्लि पेज– कांय सार ना, तीर्ल ना, चाप्फे
28. मीट घाल्चो गिराय्क न्हय– गुमान करिना, भिरांत ना
29. मीट ना– कठीण कश्ट, दुब्ळेपण
30. मीट मिऱ्सांग जोड– थोडें पुणि, तांकिचें काम कर। घोळोन हाड
31. मीट मिऱ्सांगेचो खर्च– गऱ्जेचो खर्च
32. मीट मिऱ्सांग सारव्न सांग– रुचीक कर्न सांग
33. मीट मिऱ्सांग लाव्न सांग– ऐकाक चार कुडसुन, रंगव्न सांग
34. मीट मेजुंक गेला– मेला, अंत्य जाला, संप्ला ,आकेर जाला
35. मीट मिऱ्सांग चिट्टि– चाक्ण्याक, तोंडलांव्क, कितेंय चल्ता
36. मिटा उदकाक घाल– कुसंव्क, जगंव्क , कोणाकी गर्ज नातल्लें
37. मिटाकण– ल्हान्शि पुण रुचीक, सक्टांक गर्जेचि
38. मिटा खांबो जा– नीट, तटस्थ , स्तब्ध , माव्न
39. मिटाबरि कऱ्गालो– किरोन गेलो, नास् जालो, मांद्रेर् पड्लो.
40. मिटा सवाय– हल्कें, कांय्च न्हय, बारी सवाय
41. मिटाक घालुंक– भऱ्तेक, कांय्च फाय्द्याचो न्हय
42. मिटाचि कर्ट्टि सग्त विकोन गेलि– पापारि जालो। सल्वालो, होग्डाय्लें
43. मिटाचें काम कर– अळ्साय करिनाका, न्हुणांत पडानाका
44. पाटिक मीट मांडलां– मार खांव्क आशा जाल्या
45. पाटिक मिटाच्यो पोव्ल्यो मांडल्यात– बारी चऱ्बेला, उसाळ्ता, उप्राळि कऱ्ता
46. पाट चीर्न मीट घाल्तां– हुलोप उटता पऱ्यांत्, काळ्जांत खंचता पऱ्यांत
47. मिटा उदाक सांड– वळ्वळाय, गण्णें कर्िनाका, पत्याँ येनाशें कर
48. मिटा उदाक पडलां– उदऱ्गात असाध्य, अळ्सि, मोसि
49. मदें धाय घाल्ता– गर्ज नास्ताना उलय्ता, मधें रिग्ता
50. तोंडाक बोडियो घाल्ता– उलंव्क कारण दिता– कऱ्ता

51. सोन्मोणांत्लो इंग्ळो – भितऱ्ले भितर रागान, मोस्रान, हग्यान जळ्ता
52. रांदुण – केदळारी हुन सळसळो गरम
53. रांदुण उग्ति पडल्या – गत ना, रांदिणिर बुड्कुलो चडंव्क जाय्ना
54. रांदिणिर मोडिक चडना – गत्तिगट लाग्लां, कित्लें घोळ्ळ्यारी ना, बारी कश्ट
55. रांदिणंत खोलित आसा – बूद शिकंव्क, धागुन दवरुंक, लासंव्क
56. रांदिणंत उजो पेटना – शिजना, वोकाल् ना, उपाव् ना, दुब्ळिकाय
57. रांदिणिक घाल – जळय, उल्फाय, गोबोर कर, आम्कां गर्जना
58. रांदिणिक घाल – नाश कर, काबार काड, जळव्न उडय
59. रांदिणच्या पोऱ्लांत बस – आळ्साय कर्न, शेकुंक, हिंव तापंव्क
60. रांदिणचिं पोऱ्लां कुंक्डां उस्तितात – केल्लें कर्म गांवार गाज्ता
61. रांदिणंत्लो गोबोर् काड् – गस्टो काड्, हल्कें काम् कर्, कुज्नांत्ले काम
62. हाताक आयिल्लि उंडि – तोंडाक पाव्लिना, खांव्क भगोंक पाव्लिना
63. शित वोतोन पेज जाल्या – सग्ळें तिऱ्सालां, आनि कांय करुंक साध्यना
64. शिताक खार, धन्तेक भार – कांय फाय्द्याचो न्हय, उप्काराक पडना
65. शिताचि उंडि तोंडाक दवऱ्ता – दाड्डो, बुद्दु , कांय सम्जानात्लो
66. मोडिक फुटल्या – जेंव्क गत ना
67. मोडिक खालि – केदाळाय कश्ट, रांदुंक, जेंव्क समाना
68. मोडकेक बुराक – उरना, पोवुल्लेंच आसा
69. मोडकेक फातर घालो – कामांत्लो काडलो, मोस्रान, घातान
70. मोडको फुगय – रागार जा
71. मोडिक पुटिलि – घुट भार्य पडलो, सक्डांक कळ्ळें
72. मोडिक वोम्ति घाल – कोणी सग्रिं भुकेन गेल्यार वाडिनाका
73. मोडिक वांटे जाल्या – विंगड जा, कुटाम वांटे जालां, फासाळ्ळां
74. मोडकेचो तोडो उकल्लो – कुडको गेलो, राग आय्ला
75. मोडिक ल्हान जाल्या – कित्लें रांदल्यारी पावाना, खांव्चिं तोंडां चडल्यांत
76. शित आस्ल्यार निस्तें ना – ऐक आस्ल्यार आन्येक ना, गत्तिगट्ट
77. सोण्णां दाडाय्ता – व्हडलें व्हडलें कोच्चिता, बडाय, वोडपोण

78. सोण्णां दाडांक्क गेला – जय्लाक, शिक्षा भगोंक
79. सप्णांत केळिं खाता – आसाध्य कामां चिंत्ता, चिंतुनंच बस्ता
80. शिज – भितऱ्ले भितर उस्मोड, पुगसांव, रागान, मोस्रान
81. शिजय – अधिकार चलय, मुटिभितर दवर
82. आव्लुंयि शिजना – बेस्टो बेप्पा, ताचेवव्विं कांय जाय्ना
83. कोन्सो धर – असहायाक जा, कोन्श्याक पड, मांद्रेर पड
84. माळ्यार घाल – कांय्च गऱ्जेक पडाना, कोणाकी नाका
85. खोळाक घाल – मिटा उदकांत जगय
86. घाटणो – सग्ळो दीस काम, गुंव्ता, गुंवोनंच आस्ता
87. काय्लिर थाव्न उज्याक – कश्टां थाव्न आपायाक, चड वाय्टाक
88. धुंवोर पळे – हेरांच्या घऱ्चि राटावळ, वाय्ट – कश्ट पळेव्न संतोस पाव
89. उज्याचें केंड जा – तांब्डो जा, रागान, हग्यान
90. बांगाराचें कुलेर घेव्न – बरें नशीब हाडन, लक्षण घेव्न जल्माला
91. जिऱ्गि मिऱ्सांग – जव्मुकि मनिस, उत्रा उत्राक पाटिं दिंव्चि, तिक्शें उलव्प
92. खिळ घाल – अडकळ हाड, आडाय, अडकळि मुकार हाड.
93. वाळय – खंच्यान खाता, नाश कऱ्ता कळितच जाय्ना
94. बाण्शिरें – मेव्कुटें-सांगूल्ले इत्लि भास् ना. गलीज स्वभावाचो
95. कुल्या पंदा मणय ना – गत ना, तरी व्हडलें व्हडलें कोच्चिता
96. माळ्यार चडय – कोंड्डाट्यान, सय्लापान, सव्गेन वर्य दवर
97. माळ्यार थाव्न पडता – काम करिनास्ताना जेंव्क, वर्य थाव्न पडाना
98. गोडा चुनाचि पातोळि – शेले दुग्गु, मेळ कऱ्चें
99. गोंड आस्ल्यार मुयो येतात –दुड्डु आस्ल्यार सग्रिं, सेजाऱ्यां आसात
100. गिळुंक जाय्नात्लि उंडि – कश्टांचि बाब्त। आटापुंक आसाध्य
101. बड्डु कोय्तो – खंच्याकी उप्कारानातल्लो नांवाक पुऱ्तो
102. बांदुन दिल्लि भुति – सांगोन दिल्लें उतार, शिकव्न दिल्लि बूद
103. पोट भ्रल्यार गरं कोडु – खांडि कुल्फां काड, आण्कि
104. धाट जाल्यार पोळें, पातळ जाल्यार पाऱ्याळें – वारं आयिल्लें कुशिक सत्रि धऱ्चि

105. मांय्च्यो कर्न्यो शिंक्यार – सुनेच्च्यो चुकि मात्र व्हडल्यो कर्च्यो

106. अन्धो कोळ्सो – सान्कें शिकाप अनुभव नातल्लो

107. आंगाण वांयडें – हेरांक दुन्सोंचें, अप्ल्यो चुकि हेरांचेर थाप्च्यो

108. शिंद – कातर, व्हडलें उलय, कोच्चि , बडाय सांग

109. शेक दि – हुन्साण लागय, मारांचि, बूद शिकय

110. शेळें शित – रूच ना, गन्जेक पडाना, असाध्य, उप्काराना

111. लास – जळय, नाश कर, उल्पाय, जळव्न उडय

112. मुडो वावय – जडाय व्हजाण, मनस्थाप, चूक सम्जणि

113. कट्टि धांडो दि – भिक् मागोंक धाड।

114. नेराय – उदळ कर्न, सोडव्न शेले कर्न सांग।

115. पान्पोड उदाक दि – स्वागत कर, येव्कार दि।

116. कट्टेंत्लो इंग्ळो – अपाय, पात्येंव्क जाय्ना, केदाळाय पेटोंक साध्य

117. मास्ळेक उजो पेटला – मास्ळि मारग, मेळाना।

118. गोड तुक्ता – झेमेता

119. पितुळ भार्य काड –घुट भार्य काड

120. हात हुन कर – लोंच दि

121. दोळ्यांक खोव्ळां मांडल्यांत – हंकार चडला ,कोणी दिसाना

122. तोंडाक बीग घालां – तोंड सुटाना, सान्कें सांगिना, रागान उलय्ना

123. पुसुन घाल्लो पोळो – निमाणें भुन्गें/ भुन्गो

124. कुवाळो कातन्ता – व्हड्लें व्हड्लें उलय्ता

125. जांन्वे आंबाडे बटाटे – जाय्नां, जांन्चें कांय ना

126. बिंड्डि सोलां – कांय करुंक साध्य ना

127. गोंय्टां – तुवें माका धन्चें गोंय्टां

128. कानाक वांय्गिं बांदता – फटय्ता, मोस कन्ता

129. निस्त्याक वांय्गिं – तोंड कर्पोय, वांयडें कर, हिंव्ळाय

130. जिन्गि मिन्सांग – पर्कट जीब, उव्व्टें उलय, अधिक प्रसंगि



# ‘कोंकणि संस्थो –अध्ययन विभागाचो रुप्योत्सव’



सांत लुविस महाविद्यालयन आप्लो शतमानोत्सव 1880-1980 आचरण स्मरणा खातिर वर्त्या महत्वाचो कोंकणि संस्थो आरंभ केल्लो। ऐयशें पंच्चिस वर्सांदि वेनिस – नेपाल्सा थाव्न कोड्याळाक आयिल्ल्या जेज्वित फा|माफेयिन कोंकणि खातिर केल्लो वाव्र मांदुन, कोंकणि संस्थो फा|माफेयि जे.स.च्या मानाक आर्पण केल्लो। ह्याच फेब्रेर 22 तारीकेर कोंकणि संस्थ्याचें रुप्योत्सव कार्ये कोलेजिच्या सभा सालांत चल्लें। अध्यक्ष स्थानार सांत लुविस कोलेजिचो रेक्टर फा|फ्रान्सिस सेरावो जे.स. आनि मानाचे सग्रे फा|विक्टर मचादो, रेक्टर सांत जुजेचि सेमिनरि, आनि मानेस्त ऐरिक ओझेरियो, अध्यक्षः कर्नाटक कोंकणि साहित्य ऐकेडेमि हाजर आसल्ले।

ह्या संभ्रमांत डो|ऐडवर्ड नज्रेतान दे|बेनेट पिंटो स्मारक उपन्यास दीव्न कोंकणिक अवमान कर्तेल्यां विरोध झजोंक कमर बांदच्याक ताणे सभेर जागय्लें। कथोलिक संस्थ्यांनि कोंकणि भाशेक प्रोत्साह दिव्चिं कामां हातिं घेंव्क, ऐकेडेमिचो अध्यक्ष ऐरिक ओझेरियोन उलो दिलो। ह्या संदर्भार, संस्थ्यान प्रगटल्ले दे|फा|वलेरियन सोज जिणिये कथा पुस्तक ‘जळल्लि वात’, बरय्णार श्रीमति ग्लेडिस रेगो, ‘कमलाचें घर भरल्लो आजो’, दे|जो.सा. आल्वारिस, ‘वोवियो आनि वेर्स’, संग्रह। संपादक ग्लेडिस रेगो, कोंकणि संघचो वार्शिक पुस्तक ‘पर्जळ’ मांयिळक केलें. तशेंच कोंकणि संस्थ्यांत वावुर्तेल्या – संस्थ्याक प्रोत्साह दिल्ल्या रेक्टर, प्रांशुपाल, दिरेक्तोर, अमर कोंकणिचे संपादक जाव्न सेवा दिल्ल्या म्हामानेस्तांक शेलो घाल्न मान केलो।

# ‘कोंकणि दायज्या केंद्राक बुन्याद’



कोड्याळ शक्तिनगरांत्ल्या मकाळेंत 2006 फेब्रेर 26वेर कोंक्णि दाय्जा केंद्र कलांगण हाच्या दुस्र्या हंताच्या बांदपाक आडळ्त्या मंडळेचो चेरमेन मानेस्त रोनि मेंडोन्सान बुन्यादि फातर दवर्लो।

मांड सोभाण ऐक नोंदायित संस्थो ‘कोंकणि संगीतांत कोंकणि स्वरूपाचिं सोद्रां’, म्हळ्ळ्या उद्देशान 1986 नवेंबर 30वेर जल्मोन आतां वीस वर्सांनि तर्नाट्पाणाच्या हुंब्रार पाव्तां आप्ल्या फळाभरित् वर्सांनि कोंकणि संस्कृतेंत् खळ्मित नातल्ल्या साधनांनि साधर केल्ल्या हजारों संगीत आनि सांस्कृतिक प्रदर्शनां द्वारिं हातिं घेतल्ल्या सबार प्रयोगांच्या जय्तान, संघटित केल्ल्या राश्ट्रीय आनि अंतर राश्ट्रीय मट्टाच्या कारयां मुकांतर सग्ळ्या संसारार कोंकणि आम्च्या माय भाशेचि ग्रेस्तकाय वळ्कोंक केल्या। तिचो प्रचार केला।

सुमार 65 लाख रुपय खर्चार उबें जांव्चें हें बांदाप ऐका वर्सा भितर पूर्ण जातेलें म्हण मांड सोभाण अध्यक्ष श्री लुवि पिंतान कळय्लां। कोंकणिचि अस्मिताय उरंव्क वाव्रुच्या मांड सोभाणाचो गुर्कार श्री ऐरिक ओझेर– आम्चेलागिं फकत्त स्वपाण आस्ल्लें, धय्र आनि हट्ट आसल्लें। तशें जाल्ल्यान, कोंक्णेक भर्म दिंव्चें हें बांदाप उबे करुंक आमि फुडें स्रल्यांव आनि पय्लो हंत आमि अकेर केलो। आतां हो दुस्रो हंत सुर्वातितांव। सर्व कोंकणि मन्श्यांचो सहकार जाय अशें ताणे विनंति केलि। 15 सेंटस जाग्यार संसोद आनि संग्रह केंद्र उबें जातेलें। टेरेस मांचि, सभ्यांक वस्तेचिं कुडां, दफ्तर, प्राकृतिक सोभाय आनि हेर सव्लतायो हांतुन आटापुन आस्तल्यो। कोंकणिचें बोंदेर ऊंच उबारुंक आमिंय सदांच्च आशेव्यां।

# लोक वेदाचो उद्धार
# LOKA : THE MANY VOICES




केंद्र साहित्य ऐकेडेमि आनि इनस्टिट्यूट मिनेजस ब्रगांझा गोंय हांच्या जोड पाल्वान 2006 मे 19वेर आयोजित केल्ल्या, – लोक वेदाचेर प्रबंध मंडन आनि भासाभास कार्याक आम्च्या सां लुविस कोलेजिच्या कोंकणि अध्ययन विभागा थाव्न श्रीमति ग्लेडिस रेगोन हाजर जाव्न कोंकणि डिप्लोम खातिर उत्तर कन्नडाच्या सिदध्यां वय्र संशोदन कर्न तयार केल्लो "हळियाळ तालूकांत्ले सिद्धि" प्रबंद मंडन केलो । आर्ट गेलरि इन्सस्टीट्यूट मिनेजस ब्रगांझा पणजि, गोंय हांगासर हें कारयें चल्लें।

उप्रांत थळाच्या (LOCAL ARTISTS) लोकवेद कलाकारांचि प्रात्यक्षिक पदां नाच गोपिनाथ गांवास हाच्या मुखेल्पणार साधर केलो। गोपिनाथ गांवास हाणे गोंय्च्या लोक वेदाविर्शि प्रबंद मंडन केल्लो ।

ह्या भासाभासेक वाय्स चेरमेन इनस्टिट्यूट मिनेजस ब्रगांझा पणजि गोंय्चो मानेस्त मोहनदास सुर्लाकार। मा| दामोदर मोव्जा, दो| कुर्श्याद आलम आनि प्रख्यात लोकवेद संशोदकि जयंति नायक आमोणा – गोवा। आनि कोंकणिंत्ले सबार गण्य हाजर आसल्ले।

# कर्नाटकांत्ल्या इस्कोलांनि कोंकणि शिकाप - प्रक्रियेक चालन



कर्नाटक राज्याच्या इस्कोलांनि प्रयोगिक जाव्न कोंकणि भास शिकंव्च्या प्रक्रियेक 2006 जून – 28वेर, कर्नाटक कोंकणि साहित्य ऐकेडेमिन प्रगट केल्लो "येया कोंकणि शिकुयां", म्हळ्ळो पठ्य बूक उगतावण करच्या थाव्न चालन दिलें।

मंग्ळुर शहराच्या संदेश प्रतिश्टानाच्या सभांग्णांत ह्या संभ्रमीक काळ्जां फुलंव्च्या, मनां उल्लासान धलंव्च्या समारंभांत मानादीक बिस्प ऐलोसीयस पाव्ल सोज। उद्यमि रोनाल्ड कुलासो। साहिति कलाविद् रमेश कामत, कर्नाटक कोंकणि साहित्य ऐकेडेमिचो अध्यक्ष ऐरिक ओझेरियो आनि इस्कोलांनि कोंकणि शिकोंव्क मुकार आयिल्लिं पन्नासां वयर् शिक्षक –शिक्षकिं आनि हेर गण्य वेक्तिं हाजर आसल्लिं।

उगतावणेचो दिवो पेटव्न जातच सर्व शिक्षक – शिक्षकिंनि तांच्या हातांत्ल्यो पंटट्यो त्या दिव्याक् पेटव्न हें चारित्रिक घटन उद्धाटन केलें। घरांनि कोंकणि भास उलंव्चि उणि जाव्न, पर्देशि भाशेचो प्रभाव चडात्त वेच्या ह्या काळार, कोंकणि आम्चि मायभास इस्कोलांनि शिकंव्चि अनिवार्य जाव्नासा। अवश्य जाव्नासा। कोंकणि भाशेच्या हितदृश्टेनयी तें गर्जेचें।

कोंकणि भाशेच्या शिक्पा खातिर ऐकेडेमिन घेतल्लें हें मेट विशिश्ट आनि चारित्रिक। हाका समाजेचो पाटिंबो गर्जेचो जाव्नासा। सर्कार बदिल जाल्ल्यान, सर्कारान इस्कोलांनि कोंकणि शिकंव्क केल्लो निर्धार बदिल जाल्ल्यान आतां सर्व खर्च ऐकेडेमिन आनि कोंकणि समाजेच्या सहकारान जाय्जय जाला, कोंकणि कांय ऐका समूदायाचि भास न्हय। हो काय्दो आम्कां सर्व कोंकणि भाशेच्या लोकाक बांदता म्हणालो कर्नाटक कोंकणि साहित्य ऐकेडेमिचो अध्यक्ष मानेस्त ऐरिक ओझेरियो उलव्न।

# मय्ला फातर

ग्लेडिस रेगो

**नवेंबर - 2005**

**नवंबर-23:-** मंग्ळुर कोंकण दुबाय हाणि, कोंकणि रंग मांचियेर रिच्चि पिरेर देरेबय्ल हाचो 'तो माका नाका' नाटक खेळव्न दाकय्लो।

**नवंबर-24:-** पणजिच्या डाय्मांड् पब्लिकेशन्स हाणि 'गोंय्चो उलो' नवें कोंकणि पोंद्राळें प्रगटलें। प्रगटणार : रोक फेर्न्नांडिस आनि संपादक: जोयल डिसोजा जाव्नासात।

**नवंबर-27:-** जे.डि.वि. कोंकण सभा पूना हाणि कोंकणि सांस्कृनिक सांज साधर केलि। 1975व्या वर्सा पूनांत् स्थापन जाल्लि हि सभा, तीस वर्सांच्या हुंब्रार आसा। तत्वशास्त्र आनि देवशास्त्र शिकाप शिकोंक आयिल्ल्या, बाव भय्णिंक सांगाता हाडन, कोंकणि भास जिवाळ उरंव्क वावर्न आसा।

**दशंबर - 2005**

**दशंबर-2-4:-** कर्नाटक कोंकणि साहित्य ऐकेडेमिन, 'कोंक्णि आवाज' संघटनाच्या सहकारान - कोंकणि युव महोत्सव शक्तिनगर कलांगाणांत मांडुन हाडलो।

**दशंबर-10:-** बज्जोडिंत्ल्या संदेश प्रतिश्टानाच्या सभासालांत 'अमर कवि' चा फ्रा देकोस्ताचे साहित्य संग्रह: 'पण्तेचि पेलि' आनि 'उतरां चांद्रे' दोन पुस्तकां मोक्ळिक जालिं।

**दशंबर11:-** द मेंग्लोरियन वेल्फेर ऐसोसियेशन विध्याविहार हाणि विक्रोलि सां जुजे इगर्जेच्या मय्दानार - वियटर कोन्सेसो आनि पंग्डाचि 'कोंक्णि संगीत सांज', साधर केलि।

**दशंबर-17-24 :** बिकर्नकट्टा कार्मेल गुड्यार, कर्नाटक कोंकणि साहित्य ऐकेडेमिन कोंकणि बजार् आसा केल्लें। कोंकणि लेखक, प्रगटणार, संगीत रच्नार, निर्म्मापक आनि पत्रकारांक प्रोत्साह दिंव्चे खातिर, तांच्या उत्पादनाक थंय्सर विक्र्याक आव्कास कर्न दिल्लो।

**दशंबर-17:-** दिवो साहित्य पुरस्कार् - 2005 प्रदान पांच्वें कार्यें डा| अंतोनियो द सिल्वा हैस्कूल सभा साल दादर हांगासर दबाजान चल्लें।

**दशंबर-17:-** मंग्ळुर इजयांत कापुचिनांनि चलंव्च्या 'सेवक' महिन्याळें तर्फेन, आसिस्सि कोंप्लेक्सांत 'सेवक संभ्रम - 2005' दबाजान चलय्लों।

दशंबर-30:- केनरा कोंकणि कथोलिकांच्या जागतिक सम्मेळनाचें, आनि फुडार प्रतिश्टाना स्थापनाचें, पय्ल्या वर्सांचें आचरण कोडयाल्बय्ल बिस्फाच्या घ्रच्या सभा सालांत चल्लें।

दशंबर 30-31:- कासरगोड वाराडो युवसमिति थाव्न, वर्काडि फिर्गजे वठारांत 'कोंकणि कलोत्सव 2005' नांवार वाराड्या मट्टार सांस्कृतिक दबाजो चल्लो।

**जनेर - 2006**

जनेर-1:- शक्तिनगर कलांगाणांत महिन्याळि मांचि 49वें कार्यें जाव्न पि.ऐच. पिंटोचि याद कार्यें मांड सोभाणाच्या उग्त्या रंगमांचियेर साधर जालें।

जनेर-7:- मंग्ळुर टाव्न होलांत, मिकमेक्स हाचो नाटक 'चोर बाबा चोर', होलभर प्रेक्षकां समोर प्रदर्शित जालो।

जनेर-14:- दाय्जि वर्ल्ड डाटकोम पांच्वो वार्शिकोत्सव, मंग्ळुर मिलाग्रिस सभासालांत चल्लो। ह्या संदर्बार कोंकणि पुस्तकां आनि केसेटि मोक्ळिक कार्यें आसल्लें।

जनेर-17:- मंग्ळुरच्या डोन बोस्को सालांत 'उदेंतिचो चोव्तो राय' नाटकाचें मुहूर्त कार्यें अध्यक्ष फा| जोकिम सोज कापुचिनान दिवो पेटव्न केलें।

जनेर-22:- मंग्ळुर डोन बोस्को सालांत - 'वि-वन' पंग्डान 'पियेगा - पियेगा' संगीत सांज - अनाथ भुर्गिं आनि केन्सार पिडेस्तांक सहाय कर्च्या उद्देशान साधर केलि।

जनेर-22:- दिवो कोंकणि हप्त्याळें आनि मंग्ळुर दियेसेजिच्या उडुपि वलय - वैसिऐस/ वैसिऐम हाणि दुखिमायेच्या सभा सालांत युवजणां खातिर शिबिर मांडुन हाडल्लें।

जनेर-26:- भारताच्या 56व्या प्रजाप्रभुत्वाच्या संदर्बार दिवो प्रकाशना थाव्न 'सुख-दूख-पय्णारि' नांवाच्या पत्राचो पयिल्लो अंखो प्रकाशित जालो।

**फेब्रेर - 2006**

फेब्रेर-4:- महराश्ट्रा कोंकणि ऐसोसियेशनान आप्लो धावो वार्शिकोत्सव - बोंबय चकला होलि फेमिलि हाय्स्कूल मय्दानार व्हडा दबाजान चलय्लो।

फेब्रेर-5:- शक्तिनगर मांडसोभाण कलांगाणांत बांग्राळि महिन्याळि मांचि 50वें कार्यें जाव्न, 'गोंय्चो पर्मळ' संगीत कार्यें गोवान टच्च पंग्डाथाव्न चल्लें।

पेब्रेर-10,11,12:- 25वि अकिल भारत कोंकणि साहित्य परिशद गोंयां पण्जिंत्ल्या कला आकाडेमिंत उबान्लेल्या, अस्मिताय नगरांत्ल्या, फेलिसियो काडदोस वेदिचेर सुन्वात जालि।

फेब्रेर-10:- परिशदेच्या उग्ताव्णे दिसाच पण्जिच्या आजाद मय्दानार स वेवेग्ळ्या कोंकणि संघ संस्थ्यांनि परिशदेक बहिश्कार घालो। केंद्र सन्कारा थाव्न, कोंक्णेंत्ल्या तिनी लिपिंक समान स्थान लाबोंक जाय म्हळ्ळो जाव्नासल्लो उलो सन्काराक ह्या संघ संस्थ्यांचो।

फेब्रेर-12:- कोड्याळांत्ल्या इजय फिन्गाजेंत 'तुर्भेंत', 'हेरिस सिल्वार ब्यांड' हाचो शतमानोत्सव कार्ये दबाजान आचरण जालें। आतां ह्या बेंडाक हेरिस सेंचुरि ब्यांड म्हण वोलाय्लां।

फेब्रेर-22:- सांत लुविस कोलेजिंत पंच्विस वर्सांदि स्थापित जाल्ल्या कोंकणि संस्थ्यान अप्लो रुप्योत्सव कोलेजिच्या सभा सालांत दबाजान आचरण केलो। सग्रो जाव्न कर्नाटक कोंकणि साहित्य ऐकेडेमिचो अध्यक्ष श्री ऐरिक ओझेर आनि सांत जुजे सेमिनरिचो रेक्टर फा| विक्टर मचादो हाजर आसल्ले।

फेब्रेर- बेंग्ळुर जयनगराच्या कोंकण समुदाय संघान क्रिस्त प्रभालयांत आय्लेवार कोंकणि मीस बेटव्न कोंकणि तालेंतांचो दीस आचरण केलो।

फेब्रेर-23:- यंग गोवान्स क्लब बोंदेराखाल, करावळि कोंकण्स ऐसोसियेशनान मनामा भिस्प तिरिनान्जि सभासालांत दबाजो - 2006, कोंकणि मनोरंजन् कार्यें चलय्लें।

फेब्रेर-26:- कलांगण कोंकणि दाय्जा केंद्र - कलांगण दुस्र्या हंताच्या बांदपाक 'बुन्यादे फातर' मानेस्त रोनि मेंडोन्सा, मानेस्त ऐम.ऐ. रेहमान, मानेस्त बस्ति वासुदेव शेणय हाणि सांगाता मेळोन दवर्लो।

**मार्च - 2006**

मार्च-3:- 'तिस्रो दोळो' रिचर्ड कव्तारान बरयिल्लो नाटक बळ्कुंजे फिन्गाज सालांत खेळोन दाकय्लो।

मार्च-5:- शक्तिनगर कलांगणांत 51वें महिन्याळि मांचि कारयें जाव्न जि.ऐस.बि. आनि क्रिस्तांव संगीताचि एक अप्रूपाचि सांज 'संगीत संगम' श्री पुत्तूर नरसिंह नायक हाचे थाव्न साधर जालि।

मार्च-5:- मंग्ळुरच्या समन्वय आनि कोंकिण लेखकांचो एक्कार जोड अध्याखाल,

समन्वय् सभांग्णांत । कोंक्णि लेखकाक मेळोयां - आ.बा. लंडन, आनि दिवो साहित्य पुरस्कार विजेत श्री सिप्रि संपिगे आनि श्रीमति कन्सेप्टा आळ्वा हांकां सन्मान कारयें आसा केल्लें ।

मार्च-5:- फामाद ब्रिलियंट प्रिंटर हाचो म्हालक श्री .वि. रेगो बेंग्ळुरांत देवादीन जालो ।

मार्च -12:- मंग्ळुर बेंदुर सांत आग्नेस स्पेशल इस्कोलाच्या मय्दानार 'उदेंतिचो चोव्तो राय', नाटक, कोंक्णि नाटक सभे थाव्न प्रदऱ्शित जालो । नाटकां द्वारिं धाऱ्मिक साधन तत्वांखाल खेळयिल्ल्या ह्या नाटकांत विविद फिऱ्गजां थाव्न पावोण्श्यां वय्र कलाकारांनि नटन केल्लें ।

मार्च-12:- बोंबय माहिम सरस्वति मंदिर इस्कोलाच्या सभा सालांत कर्नाटक कोंकणि साहित्य ऐकेडेमि, आनि कोंकणि भाशा मंडळ बोंबय सांगाता 'वोवियो वेर्स' कार्यागार आनि 'म्हान मनिस' ऐक मुलाखत कार्याक्रम आसा केल्लिं ।

मार्च-19:- मंग्ळुर विश्वविद्यालयच्या क्रीस्ति पीठा, सांगाता, धर्म समन्वयान् मांड् सोभाणाद्वारिं रोशनि निलयांत, ऐक पात्राभिनय कोंकणि नाटक - 'जुदास' खेळोन् दाकय्लो ।

मार्च-26:- कर्नाटक कोंकणि साहित्य ऐकेडेमि मंग्ळुर हाणि सांत आंतोनि कम्युनिटि सभांगण सिरसि हांगासर कोंकणि म्हान मनिस - एक मुलाखत आनि कोंकणि कवि गोश्टि मांडुन हाड्लि। म्हान मनिस फा| रेजिनाल्ड पिंटो आनि दो. वि.ऐस. सोंदे जाव्नास्ले।

**ऐप्रिल - 2006**

ऐप्रिल-1:- 'पय्लो अखिल कर्नाटक कोंकणि लोक कला मेळ', कर्नाटक कोंकणि साहित्् ऐकेडेमिन जिल्लारंग मंदिर काऱ्वार हांगासर मांडुन हाडलो ।

ऐप्रिल-1:- कर्नाटक कोंकणि साहित्य ऐकेडेमिन, कोंकणि साहितिंक् प्रोत्साह दिंव्च्याक, विविध प्रकारांनि प्रगट जाल्या। उत्तम कोंकणि कृतियांक पुस्तक आनि सि.डि. खरीद कऱ्चें योजन केलां।

ऐप्रिल-2:- 'पदां साहित्य आनि हेर गिन्यानि कृतियो रच्नाराचिं हक्कां आनि समाजेचो काय्दो' आटोव आनि विचार, कर्नाटक कोंकणि साहित्य ऐकेडेमिन बज्जोडि संदेश सभा सालांत मांडुन हाडलो ।

ऐप्रिल-2:- मकाळे, शक्तिनगर, हांगासर कलांगणांत, 52वें महिन्याळि मांचि कार्यें

जाव्न, मांड नाटक पंगड़ हाणि 'जेजु बोंवारिंच्यो स्योयो', भक्तिक कोंकणि नाटक खेळोन दाकय्लो।

ऐप्रिल - ६: मुडिपु बागेवंत जुजे वाजाच्या पून शेता थाव्न नवें धार्मिक महिन्याळें 'दैविक अमृत' पत्र मोक्ळिक जालें।

ऐप्रिल-८:- कर्नाटक कोंकणि साहित्य ऐकेडेमिन आतांच्या अध्यक्ष्याखाल एक वर्स भर्ताना, उत्राल्ल्या वर्सांत जाल्ल्या कामांविशिं विशेश कर्न 'शाळांनि कोंकणि'च्या वाव्रा आनि प्रगते विशिं कळंव्क, तशेंच: मुक्ल्या वर्सांनि करुंक आस्च्या कामां - येव्जणां विशिं, सलह - सूचनां ऐयटांव्क, विचार सातें मांडुन हाडलें।

ऐप्रिल-9:- 'उदेंतिचो चोव्तो राय' आवाज् दिव्यांचो नाटक् शिर्वा इगर्जेच्या उगत्या मय्दानार् - कोंक्णि नाटक् सभा (रि) मंग्ळुर् आनि शिर्वा वाराडो मंडळि. हांच्या सहकारान् खेळोन् दाकय्लो.

ऐप्रिल-9:- कर्नाटक राज्य कोंकणि भाशा अल्पसंख्यात विद्या संस्थ्यांच्या संघन् 'कोंकणि कळो' दे| बि.वि. बाळिगा संस्मरण कार्यक्रम टि.वि. रमण पै सभागृह कोड्याळबय्ल हांगासर् चलव्न वेलें।

ऐप्रिल11:- कर्नाटक कोंकणि साहित्य ऐकेडेमिन्, कर्नाटकाचे शाळेंनि पट्यक्रम भितर, कानडि, लिपिन कोंकणि शिकंव्चो निर्धार थिर जालो। उडुपि आनि द.क. जिल्ल्यांनि कोंकणि अडळ्त्याखाल आस्च्या हा. प्रै शाळें पय्कि 90% शाळेंचो व्हडिल जाव्नास्च्या |मा|दो| लुविस पाव्ल सोजान कथोलिक बोर्डाच्या शाळेंनि कोंकणि शिकंव्क भर्पूर सहकार बासाय्ला।

ऐप्रिल-15:- संगीत्कार - गाव्पि रोनि क्रास्ता हाचि पयिल्लि कोव्ळि 'मेवीसा' कोर्डेल इगर्जेंत उगतावण जालि।

ऐप्रिल -15: मंग्ळुर शहरांत्ल्या प्रेस्स क्लब्बांत मेल्विन पेरिसाच्यो तेव्ळ्यो कोव्ळ्यो - 'दोळे', 'उमाळे', आनि 'किण्कुळे' मोक्ळिक जाल्यो।

ऐप्रिल-16:- कर्नाटक कोंकणि साहित्य ऐकेडेमि प्रशस्ति प्रधान कार्यें उडुपि इगर्जे मय्दानार् चलव्न वेलें। मानेस्त तोन्से वामन पै, लोकवेद, मानेस्त एंड्रिवन नेट्टो साहित्य मानेस्त एम्.एस. कामत संगीत् हांकां प्रशस्ति प्रदान केलि। मनोरंजन कार्यें जाव्न लोय्ड रेगोच्या मोगा पदांचि सांज आसा केलि।

ऐप्रिल-21: दाय्जि दुबायि आनि एमिरेतांत्ल्या कोंकणि बरव्प्यांचो एक्तार हाणि - मांड सोभाण पंगडाथाव्न कोंक्णि संस्कृतेचें संगीत मनोरंजन कार्य एमिरेट्स

इंग्लिश स्कूल सभा सालांत साधर केलें।

ऐप्रिल 23: नल्लसोपार पू. सां. फ्रान्सिस द. सेल्स इस्कोलाच्या मय्दानार 'कोंकणि कथोलिक ऐसोसियेशन' हांचें दशमानोत्सव कार्यें संभ्रमान आचरण केलें।

ऐप्रिल- 24:- प्रतिभावंत - प्रख्यात कोंकणि लेखक, संगीत्कार, नट - (मिकम्याक्स) श्री माय्काल म्यायिसम डिसोजा देवादीन जालो।

ऐप्रिल - 24: मैक साय्मानाचि तिस्रि कोंकणि कोव्ळि 'ड्यान्स ड्यान्स' मंग्ळुर बिस्पाच्या निवासांत्ल्या सभा सालांत फा| फ्रान्सिस रोड्रिग्सान मोक्ळिक केलि।

ऐप्रिल - 29: कार्कोळ आत्तूर सौहार्द सभा सालांत, ऐल्यार ताकोडे हाच्या मोगा पदांनि अटाप्लेलें मधुर कार्य्रें 'ऐक सांज मित्राचि'। सांगाति मिडिया बोंदेराखाल यशस्वेन साधर जालि।

ऐप्रिल - 30: मूडबिद्रे आलंगार इगर्जे अंगणांत - ऐल्यार ताकोडे हाचें दुस्रें 'मदुर सांज' कार्यें साधर जालें।

**मे - 2006**

मे - 5: 'झेलो' पत्राचें बांग्राळें वरस् आचरण् जाव्न, बज्जोडि संदेश प्रतिस्टान सभासालांत् : 'झेलो' स्थापक् संपादक् श्री जो.सा. अल्वारेसाचि पतिण। श्रीमति मोनिका आल्वारेसान बांगारोत्सवाचो झेलो विशेश् अंखो मोक्ळिक केलो. झेलोचो प्रस्तुत संपादक, संचालक पंचु बंट्वाळ।

मे - 7: शक्तिनगर कलांगणांत महिन्याळि मांचि ५३वें कार्य्रें जाव्न गोंय्कार संगीत्कार - उल्लास बुयांव आनि पंगड हांचि संगीत सांज साधर जालि।

मे - 7: करावळि कोंकण्स मंग्ळुर संघटनान, डोन बोस्को सालांत 38वी क्लोड नाय्ट यशस्वि थरान साधर केलि।

मे - 15-23: शक्तिनगर कलांगाणांत 15 थाव्न 25 वर्सां भित्रल्या युवजणांक नाच शिभिर चलव्न वेलें। शिभिराचो निर्देशक चेतन सालियान।

मे - 21 : दियेसेजिच्या क्रिस्तांव् जिणिये समूदाया सि.ऐल.सि. हाणि मंग्ळुरच्या टौन होलांत 'ऐक सांज मिक म्याक्स' नांवार मिकम्याक्साच्या बांग्राळ्या पदांचि सांज साधर केलि।



# कोंकणिंत नविं पुस्तकां

1. 'जुदास' नाटक, फा| प्रताप नायक जे.स.
2. 'मांड सोभाण' कोव्ळेंत्लिं पदां. संपादक - रोनि क्रास्ता, केलराय.
3. 'पण्तेचि पंलि' चा.फ्रा.चें साहितय संग्रह. स्टेल्ला डि'कोस्टा .
4. 'उतरां चांद्रें' चा.फ्रा.चें साहित्य संग्रह, स्टेल्ला डि'कोस्टा .
5. 'सोम्याक नांवाड्या' संग्रह क्लिफर्ड लियो डिसोजा
6. 'आम्कां मागुंक शिकय' फा| संतोश मिनेज, कापुचिन.
7. 'पापा जुवांव पावल दुस्रो' फा| वलेरियान फेर्नांद.
8. 'काळ्जा विण्याच्यो सरियो' सेवक प्रकाशन
9. 'पवितर पुस्तकाचि जाण्वाय' फा| संतोश मिनेज, कापुचिन.
10. 'बेसांव' - मट्व्यो कथा - आसुंता पिरेरा गंटालकट्टे .
11. 'तांब्डि मिर्सांग' - स्टेन आगेरा, मुल्कि.
12. **'सुट्का' - क्लेरेन्स , कैकंब**
13. **'बिंदास' - स्टेन आगेरा, मुल्कि.**
14. 'आजापांचें शहर लूर्ड' - फा| फ्रान्सिस सोज.
15. 'ये हांव तुका विशेव दितलों' - फा| वलेरियन फेर्नांद.
16. 'विकाळ सरोप' कादंबरि - नवीन कुल्शेकर.
17. 'क्रिस्ता पर्जळ' नाट्कुळे - फा| रोनालड सेरावो.
18. 'प्राचित काळ देवाचे कुर्पेचो काळ' - फा| रोनालड सेरावो.
19. 'जेजु संगिं काल्वारेचे व्हाटेर' - मंगळ ज्योति.
20. 'लायिक आपोस्तलाद भाशांतर' - डा| जेरि निड्डोडि.
21. 'यशस्वि' लेखनां संग्रह– फा|जोन ह्यारि सोज, कापुचिन
22. 'ये गुलोबा' कविता– जोविटा रीमा मथायस बेळ्मण.
23. 'उग्डास' कविता– फा|जोन ह्यारि सोज कापुचिन.
24. 'जिव्या देवाक हांव सेव्तां'– फा|वि.जे. मिनेज आनि फा|जे.बि. सिकेर
25. 'दर्बारगंत्लि पिर्गोणि'– कविता– वल्लि क्वाड्रस, अजेकार

26. ‘बामुणांचें चेडुं ’- कविता- ऐच्चेम, पेर्नाल
27. ‘पाटिं गांवाक ’- इ. कादंबरि- वल्लि क्वाड्रस, अजेकार
28. ‘दर्याक उदाक ’- कविता पाठ -2- संपादक- वल्लि क्वाड्रस
29. ‘सागोराच्या उद्काच्यो झरि ’- कविता- संपादक- वल्लि क्वाड्रस
30. ‘चिंचारे’ वक्तां हिशारे- जैसन सुवारिस ताकोडे
31. ‘कानून दर्शन ’- लेखनां- शिर्ताडि विलियम पिंटो
32. ‘दो.रे.मि.फा.’ वेक्ति परिचय- जेरि डि’मेल्लो
33. कोल्कताचि भागेवंत तेरेसा- रिचर्ड आल्वारिस

## नव्यो कोव्ळ्यो

1. ’म्हज्या जेजु’ - क्लिफर्ड लियो डि’सोजा.
2. ’प्रेरण’ भक्तिक - फा| आग्नेल डि’कुन्हा , कापुचिन.
3. ’दिनि दिनि' - मेल्विन लुद्रिक कोन्डेल.
4. ’बाळोक जेजु’ फा| आल्विन कार्मेलित.
5. ’सन्वेस्पोर म्हजो उज्वाड’ जोयेल पिरेरा.
6. ’सोमियाक स्तुति' - आशोक कुंब्ळा.
7. ’स्वीट -16’ - श्री केन्रि, बोंबय
8. ’सन्वेस्पर म्हजो उज्वाड' - तेल्मा प्रोडक्षन.
9. ’रूच माका दि' - फा| वि.जे. मिनेज, कापुचिन.
10. ’तो माका नाका’ नाटक - रिच्चि पिरेर, देरेबय्ल
11. ’मोगा संदेश’ - फा| जोन हेरि कापुचिन.
12. ’खुन्सार थावन’ - रिचरड मचादो, देरेबय्ल
13. ’मोग देवाचो’ - रोशन डि’सोजा, बेळ्माण.
14. ’दोळे’ - मेल्विन पेरिस.
15. ’उमाळे’ - मेल्विन पेरिस.
16. ’किण्कुळे’ - मेल्विन पेरिस

17. 'मेविसा' - रोनि क्रास्ता

18. 'मोग् देवाचो'– रोशन डि'सोजा

19. 'भक्ति सोभाण' - Vol. 3– दो|प्रताप नायक– मेल्विन लुद्रिक

20. 'संपदलें आनि उप्रांत'– बेन्नि टीचर

# प्रशस्ति पुरस्कार

1. दाय्जि दुबायि पुरस्कार - 2005. श्री विक्टर रोड्रिगसाक फावो जाला।
2. 25वि अकिल भारत कोंकणि साहितय परिशद अध्यक्ष जावन श्री पावल मोरास विंचुन आय्लो।
3. कोंक्णि टि.वि.न मांडुन हाडल्ल्या सोध कार्यांत वालेन्सिया फिग्जेचो अमित मिनेज आनि मिलार फिग्जेचि आमाबेल मोरास हांकां प्रथम स्थान लाब्लां। ह्या स्पर्द्यांत 136 युव गाव्पि - गाव्पिण्यांनि वांटो घेतल्लो।
4. 'फा। तोमस स्टीवनस कोंकणि केंदर आनि कार्वार घराणे स्थापित 'वर्साचो कलाकार पुरस्कार नट बाब अरुण राज लुद्रिकाक फावो जाला।
5. कोंकण कोगुळ विल्फि रेबिंबसाक 2006 वर्साचि संदेश प्रशस्तेचो कुरोव कोंकणि साहित्य आनि कले खातिर बोव प्रतिश्टेचि संदेशा प्रशस्ति ताका लाब्ल्या।
6. बेंग्ळुर ब्रिलियंट प्रेस्साचो म्हालक श्री ए.वि. रेगोक 2006 वर्साचि रचना प्रशस्ति फावो जाल्या।
7. दे। पिंताम देरेबय्ल हाच्या अमर उडासाक आर्पुंचि 'वर्साचो कोंकण कलाकार' प्रशस्ति - श्री विल्लियम मचादो हाका कोंकण कलाकार मुंबय हाणि दिलि.
8. कर्नाटक कोंकणि साहितय ऐकेडेमिन - कोंक्णेचा विविध शेतांनि भर्माचि सेवा भेटयिल्ल्यांक दिंव्चि 2005व्या वर्साचि गव्रव प्रशस्ति, साहितय शेता खातिर, कोंकणिंत्लो फामाद रय्णार श्री ऐडि नेट्टोक फावो जाल्या.
9. कन्नड साहितिक कृतियांक लाब्चि 'धांति प्रशस्ति - 2005' कोंकणि बरव्पि श्री विक्टर रोड्रिगस हाच्या 'आरोग्यदर्शिनि' वक्तां भलाय्के पुस्तकाक लाब्ल्या।
10. कोंकणि बरव्पि आनि रोमि लिपि चळ्वळेगार: प्रबाकर तेंडुल्कराक गोंय्चे दाल्गादो कोंकणि ऐकेडेमिन पाटंव्चो दाल्गादो कोंकणि पुरस्कार - 2006, लाब्ला।

# प्रणाम भागयवंत अंत्रळा!

**'रान' उद्यावर हेंन्रि डि'सिल्वा**

साहितय सेवे मुखांतर देवाचि सेवा केल्ल्या थोड्याच मन्शां मदलो श्रेष्ठ कवि आनि लेखक उद्यावऱ्चो श्री हेंन्रि डि'सिल्वा. आप्लि साहितय आनि धार्मिक सेवा आम्च्या म्हाल्घड्यांच्या रिति-रिवाजिंच्या बळादिक बुन्यादिचेर ताणे बांदुन हाड्लि. ताणे केल्ल्या व बरयिल्ल्या खंच्याय कामांत आधुनिक भावानांचें वारें ना. तर्नाट्पणाचि खरिमसत ना. अर्धुकुऱ्या जाण्वायेचि घुस्पड गोंदोळ ना. ताणे केल्लें हऱ्येक काम, आनि ताणे बरयिल्लें हऱ्येक उतार ताच्या गूंड ज्ञानाचो आनि अनुभवाचो परिणाम जाव्नासा. ताचें विशेष लक्षण कितेंगि म्हळ्यार हऱ्येका संसारिक वस्तुंत देवाचें रुप्णें ताणे सोद्लें आनि ताचा आनंदाक तो वावुऱ्लो .

1. ए आजापांचा अंत्रळा
कसलि आपुर्बाय
कितें सोभ्ताय तुं ह्या वेळा
न्हेसोन नितळ कोबाय!

2. देक्तां दृष्टि आकर्षिता
रुप्कार परिपूणर् शांत
घनाक-मानाक द्विवर्णर दिता
पांगऱ्ललो नीळ म्हांत!

3. सुगुणि नक्षत्रां नेटोन
प्रकास्तात मिळ्मिळिं
भक्ति-सुक्र दिगंतार उटोन
उल्लास्ता थळ्थळिं!

4. पवित्रतेचा किरीटान
अलंकार विस्ताऱ्ला
प्रेम-कुपांच्या भग्भग नेटान
अत्युत्साह प्रसाऱ्ला!

5. मधुरायेन हास्तें तिळ्ता
प्रफुल्लित तेजो मुख
प्रति पार्श्वांत पेटोन खेळ्ता
दिव्यानंदाचें सुख!

6. नेटोंक सुल्लक्षणिक थरिं
कोण तुजो निर्मापक
त्या ईश्वराक निरंतरिं
तुजो स्वाधिक ज्ञापक!

7. ताणे मांड्लां विचित्र योजन
शाश्वित सदांच बाळ्चें
ताचे निम्तिं थोर प्रयोजन
आसा पृथ्विक लाब्चें!

8. तो वेळ आतां लागिं पाव्ला
प्रत्यक्ष जाल्यांत खुणां
कितें दिंवक तो राकोन राव्ला
निद्रेसत संसार नेणा!

9. विस्तार्न भुजां ए अंत्रळा
कोणाक वेंगंवक राक्ताय
हर्षोद्भवाचा मंडळा
कितें तुं लालेताय!

10. तुजो अत्रेग जाता सुफळ
प्रजळ्ता निशानि
तुजा निर्मलतेचो फळ
लाभात सर्व देशांनि!

11. तुजेर सुर्यो उदेतलो
फांकवन निति-किर्णां
सता-उजो पेटय्तलो
नेटवन अंतस्कर्णां!

12. प्रणाम भाग्यवंत अंत्रळा
तुजेर नदर माऱ्तांव
सुर्यो उदेवाचा काळा
भक्तिन भजन कऱ्तांव!

वि.सू.: भास शय्लि आसातसि उरय्ल्या.

# सां. लुविस कोलेजिंत
# स्नातकोत्तर कोंकणि
# डिप्लोमा करेस्पोंडेन्स कोर्स

ऐदोळ वरेग संसारभर हजारांनि विद्यार्थिंनि आप्णायिल्लो पद्युत्तर कोंकणि डिप्लोमा करेस्पोंडेन्स कोर्स (Post Graduate Diploma Correspondence Course in Konkani) हर्येका वर्साच्या सप्तेंबर महिन्यांत आरंभ जाता.

आख्ख्या भारतांत्च प्रथम जाव्नास्चो हो पद्युत्तर कार्स दोन वर्सांचें शिकाप, ऐका वर्साक चार विशयां लेखान आटाप्ता.

पय्ले वरस : 1. कोंकणि चरित्रा 2. कोंकणि साहित्य
3. कोंकणि नाटक 4. कोंकणि कविता

दुस्रें वरस : 1. कोंकणि लोकवेद 2. साहितिक ठिका
3. भाशे विज्ञान 4. तुलनात्मक साहित्य

ओट्टुक आट विशय शिकोंक विद्यार्त्तिंक आव्कास मेळ्ता। शिक्पा विशय आनि ताका लग्ति जाल्लो नोट्स पाठ क्रमा सवें तुम्च्या घराधारार तप्पाला मुकांत्र पावित जाता. हर्येका विशयांचेर परीक्षा आस्तेलि। आनि परीक्षेचें प्रश्नापत्र तप्पाला मुकांत्रच विद्यार्त्तिंक पावित जाता। 18 वर्सां वय्ल्या आनि कोंकणि अध्ययनांत आसक्त आसल्ल्या कोणेंय ह्या कोर्साक अर्जि पाटव्येत।

कोर्साचो शुल्क - नोट्स आनि तप्फाल खर्च धर्न वर्साक रु. 800/- मात्र. विदेशाक वर्साक रु. 2000/-

1997व्या वर्सा आरंभ जाल्लो हो कोंकणि कोर्स संसारभर कोंकणि शिकोंक राकोन आस्च्या विद्यार्त्तिंक एक बरो अव्कास जाव्नासा। चडित विवरांक आनि अर्जे पत्राक रू. 10/- M.O. सवें - कार्यकारि दिरेक्तोर, कोंकणि संस्थो, सां लुविस कोलेज, मंग्ळुर - 575 003 - हाका संपर्क करा.

**फोन नं: 2426143 - Extn: 112**



